

पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्यां. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशें तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

*नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडों, इसवी,*
*नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांचे बरेपणान.*

# म्हजा आजाक एकी हस्ती आशिल्ली




बरोवपी

**वैक्कम मुहम्मद बशीर**

अणकारपी

**आर.एस. भास्कर**






साहित्य अकादेमी

Mhaja Aajak Eki Hasti Aashilli (म्हजा आजाक एकी हस्ती आशिल्ली) :
Konkani translation by R.S. Bhaskar of
Vaikom Mohammed Basheer's Novel *Entuppuppakkoranentarnu* in Malayalam
Sahitya Akademi, New Delhi (2001) Rupees Fifty


First Edition : 2001



**Published by :**
Sahitya Akademi

**Head Office :**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department :**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001



**Regional Offices :**
172, M.M.G.S. Marg, Dadar (East), Mumbai 400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Kolkata 700 053
Central College Campus, Dr. B.R. Ambedkar Veedhi, Bangalore 560 001

**Sub Regional Office :**
C.I.T. Campus, TTTI Post, Taramani, Chennai 600 113

ISBN : 81-260-1052-5



मोल : 50 रुपया

Cover Design : Shubhada Mule

Typeset at : S.K. Enterprises, Kalabhavan Road, Kochi - 682 018
Printed at : New Age Printing Press, Prabhadevi, Mumbai 400 025

# मांडावळ





# 1

# हो भाग्याचो तिबो

हजारांनीं वर्सां फुडें घडल्लें वरी. कितें म्हळ्यार बाल्यकाळ खूब दूर आसा न्हय. त्या काळाक लागून कितें सगट घडल्लें. सगट एक तमासो जशें मात कुंञुपात्तुम्माला यादींत येता. निजाचे जीवित. पुण पुराय गजाल समजून घेवंपाक केन्ना जायना म्हळोलो एक आजापूच. हें कांय कोणाचें नियत्रणांत ना. कितें करप ? कांय वेळा हुडक्या हुडक्यानी रडूंक दिसता. मागीर उक्तेपणान हांसपाक दिसता. रडचे पशीं उत्तम हांसूच. येवजून येवजून हांसयेत.

कुंञुपात्तुम्मान आज मेरान कोणाक दुखोवंक ना. एक मुंयेचेर लागेन हात लावूंक ना. रबूल आलमीन म्हळ्या रचणारान निर्मील्ले कसल्याचेरीय तांणे दुस्वास करूंक ना. ल्हान पिराय लागुनूच सगट जिवावळाकडे तें भारी मोग वावरून आसलें. सुरवेक तांणे इश्टागात दाखोवंक आरांभिल्लोलो एक हस्तेचेर. तिका तांणे केन्ना पळोवंक ना. जाल्यारूय तांणे तिजेर मोग दवरलो. तिजा विशीं तांणे आयकली गजाल अशी:

कुंञुपात्तुम्माक तेन्ना सात वर्सां पिराय आसूंक जाय. ना जाल्यार आठ. ताजा साबार आसूंक ना. त्या वेळा ताजा आड एकी विरोधाची हुक्कुम आयली. बाप्पाचो न्हय. पुण उम्मालो. कारण सांगूक गेल्यार वेगळें कांय न्हय. सेजार भुरग्याकडे, ते मुसलमान जाल्यारीय इश्टागात करूं नज. तांचेकडे कसलो तराचो संपर्क आसूंक न्हय. हाकाय एक कारण आसा. विश्व प्रसिद्ध जावन आसल्ले ते रहश्य उम्मान ताका सांगून दिल्लें:

''म्हजें मोगाळ कुंञुपात्तुम्मा, तूं आनामक्काराली अपुरबायेचा धुवेली अपुरबायेची धूव ! तुजा आजाक एकी हस्ती आशिल्ली. व्हडली एकी सुळ्याची हस्ती''.

''अपुरबायेचा म्हजा हस्ते !'' अशी तांणे तेन्ना सावन आपणाकडेच शंबर पावट म्हळ्ळें आसूंक जाय. हाजाकडे खेळून आसुंयेत कुंञुपात्तुम्मा व्हाडलां. म्हळ्यार ह्या हस्तीचो उडगास करीत नळी पातळायलेल्या त्या व्हडला घाराचा राजांगणांत बसून ते खेळताले. ताजा गळ्याचेर, कानाक, हातांक आनी पायांक भोरनु भांगार. न्हेसला, पाट्याचें लुगट आनी पाट्याचो खोमीज. मात्यावेलान फिताचें ''तट्टम'' पांगुरला.

कुंञुपात्तुम्मा गोरें. जाल्यारूय ताजेर थोडी काळसाण आसाच. हाका लागून ताका सदां दुख भोगतालें. पुण हें तांणे कोणाकडेय म्हळ्ळेंना. ताजा पोल्याचेर एक ल्हानशें काळो तिबो आसा.

हो भाग्याचो तिबो म्हणून कुंञुपात्तुम्माक जाण...

चवदा वर्सां पिराय. त्या वेळा ताजा लग्ना खातीरची ताकतीक प्रस्ताक चलून आसलो. व्हरुंक येवपी न्हवरो कोण म्हण ताकाच कळना. कोणेय जाल्यारीय कांय दुबाव ना.

''तेन्ना, हांव पान खातलें'' कुंञुपात्तुम्मान आपणाला मनांत थारायलें. लग्न जावंचे फुडें मुसलमान बायलांनी पान खावपाचें सम न्हय. अल्लाह आनी मुहम्मद नबी हांणीं हाजा विशीं कितें कांय म्हळ्ळें हें कुंञुपात्तुम्माक खबर ना. पुण गांवची चाल रीत अनुसारन, पान खावप म्हळ्यार निषिद्ध आसा. हेर दादल्याचा मुखार मुसलमान बायलांनी वचूं नज. पुण भुरगें आसताना कुंञुपात्तुम्मा दादलांचा सामकार गेल्लें आसा. म्हळ्यार, सामकार गेल्लें अशें न्हय. दादल्यांक दूर रावनच पळेलें आसा इतलेंच. जाल्यार कोणाचें मुखामळ आज ताका याद दिसना. उडगास येता जाल्यार थोडया बायलां विशीं मात.

त्यो बायलो पुण सगट काफीर. कुंञुपात्तुम्माक आतां इतलेंच सांगूक जाता. संवसारांत फकत दोनूय जात आसाय– मुसलमान आनी काफीर . काफीर दादलो जावो बायल जावो मरणाचा उपरांत नरकांत पावतलीं. तीं सगट रीत चुक्कीलीं जात. मुसलमानानी हांकां अनुकरल्यार तिवंय नरकांतले पापी जातलीं. कुंञुपात्तुम्मान पळेल्लीं काफीर जाल्यार साळेतलीं अध्यापिका. बाप्पान ताका न्हंचया थडीं न्हावपाक म्होण व्हरप अशिल्लें. तेन्ना तांणे तांका पळेलां. शारांत साकून वारें घेवपाक आनी न्हावपा खातीर न्हंयचा थडी पावपी धनवंत चल्यांक तांणे पळेल्ले आसा. हांकां कोणाक कुंञुपात्तुम्माक आसील्या भासेन भांगार ना. थोगडे ताका दुस्वाशानी पळेत रावताले. हें ताका समजातालें. ही चल्ली कोणाली ? ''ताजा सामकार बोट दाखोवन कांय जाणा विचारताले. हेवय तांणे आयकलें आसा. तेन्ना कोणेय तरी भव्यपणांनी जाप दितालें:

''वट्टनटिमा काकाली धूव. कुंञुपात्तुम्मा – आनामक्काराली नाती!''

''आमचा कुंञुत्ताच्चुम्मा मावशेली धूव, व्हय.'' आशींय थोगडे म्हणटालें.

साळेंचीं अद्यापिका ताजा भोंवतणी रावताली आनी ताजेकडे सांगतालीं:

''तूं एक हांसून दाखय गो कुंञुपात्तुम्मा''. कुंञुपात्तुम्माक तांचेकडे भोव इश्टागात आशिल्ली. काफीर जाल्यारीय कितें ? त्यो लागी येताना बर्याचो वास पसरतालो. तीं सगट 'सारी' न्हेसून आशिल्ली. सगटानी 'ब्लावुस्' घाल्ला. ब्लावुसाचा पोंदाक 'बोडीस'अशें मोवाळ वस्त्र बी आसा. केंसाचेर तांणी फूल माळ्ळां. तांतुली कांय जाणां कुंञुपात्तुम्माला केंसार फूल सिरकावन दिताली. थोगडीं ताजा गालावेले तिबो चिंमटून काडूंक सोदताय अशी आभिनय करतालीं. कुंञुपात्तुम्मा हांतु चड खोशी भोगूक नाशिल्ले. पुण ताका एक आग्रो उरल्लो. तांचा भाशेन 'सारी' न्हेसूंक, 'ब्लावुस' आनी 'बोडीस' घालूंक. हो आग्रो तांणे ताजा बाप्पाकडे उक्तायलो तेन्ना आधापिकां सगट हांसलीं. एकलेन पुण रोखडेंच म्हळ्ळें:

''कुंञुपात्तुम्मा तूं तरणाटें जावो ! ''

आनी तरणाटें जावंका ! आतां ताका आग्रो अंकुरलो. वेगीं व्हाडूंक जाय !

घरांत पावले तेन्ना तांणे उम्माकडे विचारलें: ''उम्मा, केन्ना गे हांव तरणाटें जातलें ?''

उम्मान ताजकडे कारण विचारलें तेन्ना तांणे ताजो विचार मेकळो. उम्मान ताका भेश्टावन

म्हळ्ळें:

"धुवे, म्हजे कुंञुपात्तुम्मा, हें सगट आमकां हराम गो! काफीरांलो हो लिबास. काफीरांकडे आमी विरोध रावका!"

"उम्मा जें सांगता सत्य धुवे" बाप्पान म्हळ्ळे. "हें सगट नाका जाल्लेलें!"

वायट दिसता जाल्यार वायटच! बाप्पाला उत्राक आड दुसरें उतर ना. अस्सल मुसलमानाचा रीत अनुसारनु बाप्पा वावरून आसा. वट्टनटिमा काका म्हळ्यार सगटांचो भोवमान जोडलेलो. गांवच्चो मुखेल. मसजीदाचो मुख्तार. गांवातले सगटांपशीं लांब मनीस. तकली केन्ना नीट उबारनु चलतलो. केंस कातरून माथें केन्ना ल्हान करनु दवरतलो. खाड आनी मीस सदां कतरून दवरतलो. मीस जाल्यार दोनीय गालाचेर विण्णुन सींग जशें दवरतलो. लुंगी मात न्हेसतलो. एक लांब फिताचें वस्त्र खांदावेल्यान घालतलो. ताजे तालव लांबून सकल लोळतलें. आनी बाप्पाचा मागल्यान बोवंतल्ले लोक वस्त्राचे तालव विनयपणान उबारन धरनु आसतले. बाप्पा कांय जाणा नाशिलो. बाप्पा हात, पांय, तोंड, माथें, कान सगट धूवन निवळ जावन 'नमाज' पावंतलो. अल्लाह सगट कडेय व्यापून आसा. हांका तो सदां प्रार्थना पावंता. नित्य नेमान दिसाक पांच वेळार नमाज करता. रमसान म्हयनांत तीस दिसां खाण उदक सोडून व्रत पांवता. सक्कात दिता. हज्जाक वचपाक बाप्पाक भारी आवड आसा. पुण हे सगट कुंञुपात्तुम्मालाा लग्नाचें उपरांत मात आसतलें.

कुंञुपात्तुम्माला लग्ना विशीं बारिकसाणेंन चर्चा चलताली. घरांत लोकांक सदां खाण जेवण. सात-आठ भोरो पान चबडावूंक जाय. बाप्पाक पान खावपाची सवंय ना.

उम्मा पुण खूब पान खावंपी. उम्माक हर एक दिस शंबर तरणेंच पानां जाय. पान खावप आनी सोयरांकडे बडाय मारनु बसप हें उम्मालें मुखेल काम. पट्टाचे किंटन न्हेसून पट्टाची चोळी धालनु फिताचें तट्टम मात्यावेल्यान पांगरून देह भर भांगार सयत उम्मा मांद्रेचेर सुसग बसतली. फटचानाचो कोरटो लागी आसतलो. खड्डावे नातिल्लें जमिनेचर पाय लावप ना. खडाव्यांचेर आजाला हस्तीचा सुळ्यांनी बादलेल्यो सनत्र्यों. खडावें दीस रात वागडाच दवरतली.

पान खावंपाक आनी बडाय आयकुंपाक सेजार बायलो पावतल्ली. उम्मा उलोवंक सुरु करतली. वेगळो कांय विशय ना. कुंञुपात्तुम्मा विशीं ना जाल्यार बाप्पाल्यो सात जाणां भयण्यां विशीं. चड वेळा कुंञुपात्तुम्माला गालावेलो काळो तिबो हो आसतलो विशय

"पळेयात गो, हो भाग्याचो तिबो! उम्मा म्हण्टली. फुक्यानी मेळता कांय? आनामक्काराली अपुरबायेचा धुवेली अपुरबायेची धूव न्हय! मात न्हय" उम्मा उलयतली. "पांच पावट हांव बाळंत जाली. अल्लाह, मोगाळ नबी आनी अंगवणेच्यांनी एकल्याकच वावुरूंक दिल्लां". मागीर कुंञुपात्तुम्माल्या आंगावेल्या भांगराचेर हात धावडावंन सांगतली: "आनी एक सांगू... व्हरडीकेक हागेल्या बाप्पाले दायजीं पावना जाल्यारीय व्हरडीक चलतलीच. आनामक्काराली आपुरबायेचा धुवेली आपुरबायेची धूव व्हय!" मागीर विशय सोंपतेर कित्येंय उलेयाय म्हण थांगा जमील्या बायलांकडे म्हण्टली:

"आतां उलय गो तूं!"

बायलो उलयतल्यो. अशी ह्या बायलांकडेसून कुंञुपात्तुम्मान एक गांवचें खबर आयकलें. हाका लागून आसा कुंञुपात्तुम्मा दुबलेंले. ताका सबार दुख भोगले. ते रागार जालें.

कुंञुपात्तुम्मान आयकले खबर हें:

सेजार आनी त्या गांवातल्या एक ना जाल्यार एक घरांत चार आनी पांच वर्सां पिरायेचीं भुरगीं आसाय. नवें एक पिळगें व्हाडून येता! कुंञुपात्तुम्माक हांतु वायट कांय दिसना. पुण तांच्या नांवा खातीर! हो विशय आसा कुंञुपात्तुम्माक रागार उडयला. फकत वजें व्हावंपी लोक, नुस्तेकार, दाळिद्रें – मात न्हय गांवातल्या हर एक मुसलमानाचा घरातूंय एक एक कुंञुपात्तुम्मा रोखडेंच आसाच. एक एक अटिमा आसाच. एक एक कुंञुत्ताच्चुम्मा आसाच. आनी एक एक मक्कार बी!

अखेर प्रपंचाचा रचणारा! कितें करूंक सक्तलें? अब्रु आनी अभिमान आसा जाल्यार...तांचा भुरग्यांक दुसरें नांव धवरूक जायना कांय? कुंञुपात्तुम्माक तेन्ना एक विश्व सत्य समजूक नाशिल्लें. दाम दुडु आसील्यांची नांवा हें कांय नातीलींय वावुरताय. ही गांवची एक चाल. दाम दुडु आशिल्यांची नांवा दळिद्रयांनी वावुरचें न्हय अशें नेम ना. ह्या रीतीन तांकां यस जोडपाक सक्ता जल्यार बरें.

कुंञुपात्तुम्माक पुण हें सम म्होण दिसलेना.कित्याक म्हळ्यार,तें संवसारातले एकलेंच कुंञुपात्तुम्मा! ताजो बाप्पा संवसारातलो एकूच वट्टनटिमा! उम्मा, संवसारातली एकीच कुंञुत्ताच्चुम्मा! ताजो आजो एकूच आनामक्कार!

वास्तवीक अशी जाल्यारीय कुंञुपात्तुम्मा कोणाकय क्षमा पावूंक तायार ना. घरांत सेजार बायलो एकडाय आसतनाच तांणे ताजो विचार उम्माकडें उक्तायलो. मात न्हय राग आनी दुख सयत तांणे उम्माकडे विचारलें:

"आमची नांवा हेरां कित्याक वावुरताय गे, उम्मा?"

उम्मा तेन्ना हांसलीं. आपणाली गजाल आयकून हेर बायलो कितें येवजीतलीं हाजें विशी कुंञुपात्तुम्माक कळना. उम्मान म्हळ्ळें:

"व्हरडीकेचें पिराय जावनु रावला चेडू! कितें विचारता आयकलें तुमी?" उपरांत उम्मान ताजा गल्लावेल्या काळ्या तिब्याचेर बोट लावन दाखोवन म्हळ्ळें: "हें पळे!" आतां कुंञुपात्तुम्माक समजलें. चार वा पांच वर्सां पिरायेचा ल्हान बुरशीं भुरग्यांक कुञुपात्तुम्मा आशें नांव लायताय, पुण तांका कोणाक ताजा वरी गालाचेर काळो तिबो आसा म्होण आज मेरान तांणें आयकलेंच ना. उम्मान हेर बायलांकडेय विचारलें. सगटानीं "ना म्होण" जाप दिल्ली. "जाल्यार तांचा गालाचेर काळो तिबो ना. कित्याक, जाणा?"

कुंञुपात्तुम्माचें गालावेल्या काळ्या तिब्याचेर बोट लावन उम्मान विचारलें.

"हाजो रंगु कसलो?"

काळो तिब्याचो रंग काळो न्हूं? कुंञुपात्तुम्मान जाप दिल्ली: "काळो"

उम्मान परतून विचारलें:

"तुजा आजाला हस्तेचो रंगु कसलो आसलो कळता तुका ?"

कुंञुपात्तुम्मान हस्तेक पुण पळेलेंच नाशिल्ले. हस्ती काळी आसूंक जाय न्हूं ? तांणे हळ्ळें:

"काळो !"

"तुजो रंगु कसलो ?"

"धवो !"

उम्मान तेन्ना विचारलें: "धवें तुजा गलाचेर काळो तिबो कशी आयलो ?" कुंञुपात्तुम्माक आतां पुराय कारण समजलें. आपणाल्या घराण्याचें पुर्विल्ले चरित्र आतां मुखार उक्तें आसा ! पोरणीं प्रसस्ती आनी येश हें येवजून ताका अभिमान आनी खोशी भोगलीं. मुकुट, शिंवासन, राजदंड, म्हाराज हें सगट आशिल्ले वरी ताका भोगलें. तांणे खोशीन म्हळ्ळें:

"म्हजा आजाक एकी हस्ती आशिल्ली !"

आपल्या खडाव्याचेर हात लावन उम्मान म्हळ्ळें:

"व्हय लांब लांब सुळ्याची एकी व्हडली हस्ती".

●●●

# 2

# काळ इबलीस

कुंञुपात्तुम्माल्या व्हरडिके खातीरची तयारी नेटान चलून आसताना तांणे दोन खबर्यो आयकल्यो.

आजाल्या व्हडले ते हस्तेन स जाणांची हत्या केल्ली आसा! हें आयकून ताका खूब दुख भोगलें. हस्तीचेर तिटक बी अंगुरली.

''अर्दकुटाचे हस्ते''! अशी तांणे म्हळ्ळें. पुण राग चड दिस उरूंक नाशिल्लो. हस्तेन मारल्लेले स जाणां काफीर हस्तेकार आसील्ले! ते हस्तेन एक सरी मुसलमानाक मारूंक नाशिल्लें. ते हस्ते खातीर मुसलमान हस्तेकार आशील्ले हें कांय कुंञुपात्तुम्माक कळना. उम्मान म्हळ्ळें:

''ती अस्सल्ल हस्ती आसील्ली!'' कारण कितें म्हळ्यार आजाला हातांतसून ती केळें आनी गोड घेवन खाताली.

उम्मा सांगताली: ''तुजो बाप्पा माका व्हरूंक आयलोलो तिजे फाटीर बसून, जाणा तूं!''

आजाप! कुंञुपात्तुम्मान येवजिल्लें. आपणाक व्हरूंक येवपी चडो... हस्ती फाटीर बसून बी येतलो कोण जाणा!

ताका कोणाकडे.... ना जाल्यार कित्याक... व्हरडीक करनु दिवूंक सोदताय, हें कांय कुंञुपात्तुम्मान येवजिलेंच ना. ताजा लग्नाचा उपरांत मात बाप्पा हज्जा खातीर मक्कांत वतलो. मक्का नांवाचो शार अरेब्यांत आसा. थांगा मक्कम म्हळ्ळेले पुण्य थळार मुहम्मद नबी हांणी जल्म घेतलो. थांगा काबा नांवाचें एक पवित्र मसजीद आसा. संवसारातलें पयलें वयले मसजीद हें. हें मसजीद पोरण्या काळांतसून उरलां. इब्राहीम नबी हांणी ह्या मसजीदाचें नविकरण केल्लें. कुंञुपात्तुम्माला बाप्पान पुण मसजीद कांय बांदिल्लें ना. हज्ज हें पुण्य कर्म करनु परतून पावतेर बाप्पाक 'हाजी वट्टनटिमा' ना जाल्यार 'वट्टनटिमा हाजी' ह्या नांवानी उल्लो मारतले. कुंञुपात्तुम्मान विचारलें: ''उम्मा, तूं वतली व्हय?''

उम्मान लिवंगीले:

''खंय रे?''

''हज्जा खातीर?''

उम्मान जाप दिल्लो:

''वतेली!''

हो एक नवो खबर. कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळे: ''तेन्ना माकाय व्हरका!''

उम्मा हांसली. तीणे म्हळ्ळें:

''हें तुजा घोवाकडे सांगल्यार पुरो.''

ताका लज भोगली. तें ओगी रावलें. ताका व्हरूंक येवपी पुण कोण आसतलो ? तरणाटो वा जाणटो ? गोरो वा काळो ? ताका कार्यीच कळना. कोण एकलो येतलो. ताका कळता इतलेंच.

चेडुं जावन जल्म घेतल्यार खंयचेय एक चेडाकडे व्हरडीक करनु सोडतलीं. मुहम्मद नबी आनी असहाबिया हांचा काळांत साकून आसीली एक चाल. तांचा फुडेय हीच आसुयेत चाल. आदीं... आदीं... मनुशकुळाचा आरंभाक लागून आदम नबीन हव्वा बीवीकडे लग्न केल्लें. आदम नबीक आनी हव्वा बीवीक बाप्पा आनी उम्मा नाशिल्लीं. देखून रबूल आलमीन हांणी तांचें लग्न चमकयले. आज संवसारांत जिते उरलेल्या आनी मोरनु घेल्लेल्या सगट मनशांचीय आदीचीं उम्मा हव्वा बीवी आनी बाप्पा आदम नबी आसाय. तांचा फुडे ह्या भुंयचेर मनिशूच नाशिल्लो. आदम नबी आनी हव्वा बीवी कितलें कोटी वर्सां फुडे ह्या भुंयचेर वावरून आसील्लीं हाजा विशीं कुंञुपातुम्माक कांय कळना. आदम नबीचा उपरांत ह्या संवसारांत कोट्यांनी नबी हांणी जल्म घेतलो. हांतुल्या पंचेवीस प्रवाचकालें नांव मात कुराणांत सांगलां. भुगोळाचेर आसील्या जनपताचा एकेकेल्याचा वांगडाय एक एक प्रवाचकाक धाडून दिल्लें आसा. सल्लागार म्होण नोह, इब्राहिम, दावूद, मूसा, ईसा, मुहम्मद... इत्यादी.

मुहम्मद अखेरेचो नबी. आनी मुखारसून हेर नबी कोण जल्माक येवूंक ना. मुहम्मद नबी हांचा उपरांत कोण उरूंक ना. मुहम्मद नबीचें व्हडले धूवेचें नांव फातिमा. पातुम्मा आशींय वळखताले. मुहम्मद नबीन फातिमा बीवीक लग्न करनु दिल्लेले खलीफा आलीकडे.

आली मोटो धीर, वीर आनी सूर पराक्रमी म्होण नांव जोडलेल्लो. आलीकडे 'दुलफकार' नांवाचें एक तरसाद आसील्लें. खूल आलमीन धनियाला हुक्कुम अनुसारनु आलीन हें तरसाद दर्यांत उडयलें. त्या तरसादान दर्यातल्यो सगट मासळेचेय गळे कातरून सोडले. देखून मासळेचो गळो दोनीय भोरीनीं कातरून दवरल्या वरी आसा. तेन्ना सावन मासळी मुसलमानाक 'हलाल' जाल्या.

खलीफा आली हांचा फुडे दर्यांत कान आसील्ली मासळी उरताली कोण जाणा ? समुद्रांत तरसाद उडोवंपाक देवान हुक्कुम दिली, अशी म्हण्टाय. देव हुक्कम दिता व्हय ? इतिहास जावयेत. सत्य कितें फट कितें ? कुंञुपात्तुम्माक कळना. मुसलियारान मसजिदांत केल्लें 'व अस' प्रभाषणांतल्यान हें आयकलां. हें सगट सत्य अशी उम्मा म्हण्टा.

कुंञुपात्तुम्मान आतां येवजील्लें. आपणाक व्हरूंक येवपी चडो मोटो 'सुजाइ' आसतलो व्हय, कोण जाणा ? कोणाकडे विचारचें ? मागीर एक शक्ता - सांगचे वरी करप, दितालें तें घेवप. मुसलमान बायलांचें उतरदायित्व हें. हें कुंञुपात्तुम्मान समजून घेतलां. हज्जा विशीं रबूल आलमीन धनियान आनी रसूल मुहम्मद नबी हांणीं कितें सांगलां ? कुंञुपात्तुम्मान कुराण वाचला. पुण ताजेर कितें सांगलां हें ताका समजलेना. कुराण ताजा बाप्पान आनी उम्मान वाचलो आसा. ताजो आजो आनमक्कारानय वाचलो आसा. पुण कुराणाचेर कितें सांगता हें कोणाक कळना. संवसारातलें पुराय रूंख हुमडावन काडून लिखणीं करनु संवसारातल्या पुराय

सेमिन्द्राचा उदकानी शय करनु कुराणाचो अर्थ बरोवंक सुरुकेल्यार एकूच अध्यायाचें अर्थ बरोवंन सोपंचें फुडें म्हावृक्षां तितलीय ना जातलीं. सेमिन्द्रां तितलोय आटून वतल्यो! कुराण म्हळ्यार एक पवित्र पुस्तक. तांतु सगट सांगता आसा. हो कोणे कांय बरयलो न्हय. रबूल आलमीन धनियान देवदूद जिबरील नांवाचो मलक हांचा वाटेन मुहम्मद नबीक ल्हान ल्हान भाग करनु ऊंचार साकून देवयनु दिल्लो. नबीक चाळीस वर्सां पिराय आसतना मक्का गांवाचा लागसेंल्या दोंगराचा हीरा नांवाचा घोलांत ध्यानांत बसून आसतना जिब्रील देवदुदान पावनु सांगून दिल्ले (वाचप, बरोवंक आनी वाचूक सिकप हें कुराण ह्या पुण्य ग्रंथांत सांगलां). नबीक वाचूक आनी बरोवंक येना आसील्लें. कुराण अरबी भाशेंत आसा. ही नबीली अवय भास. नबीन सांगून दीवन ऊंट हांचा हडार, खाजुरमडाच्या पत्राचेर आनी चाम्माचेर बरोवनु दवरलें. अरब अशें एक गांव आसा म्होण कुंञुपात्तुम्मान आयकलें आसा. थांगा मक्का आनी मदीना अशें दोन पुण्य थळां आसाय. मक्का ह्या पुण्य थळार मुहम्मद नबी जल्मलो. अंत मदीनांत जालें. मदीनांत मुहम्मद नबीचें कब्बर आसा. हज्जाक वचपी लोक कब्बराचें दर्शन घेताय.

बाप्पा आनी उम्मा हज्जाक वताना मदीनांत बी वतलीं. तांचा वांगडा वचपाक कुंञुपात्तुम्माक आग्रो आसा. पुण आपणाक लग्न करतलो दादलो ह्या खातीर मान्यताय दितलो कोण जाणा. अशीं तांणें येवजीलें. सकाळ लागून सांज मेरेन कुंञुपात्तुम्माक होच विचार. अशी असताना एक दीस बाप्पा भारी अस्वस्थदाय भोगतां म्होण अचानक ताका समजलें. बाप्पाले दोळें थाबडे जाल्याय. बाप्पा हांसलो.

''खेळ शिकयतलो हांव तांका.'' बाप्पा म्हण्टालो. ''वट्टनटिमाकटेसून तांणी शिकूंक जाय! अलाह, मुहम्मद नबी आनी अंगवणेच्यांल्या दयेन वट्टनटिमाकडेसून तें खेळ शिकतलें!''

खेळ कसलो - कुंञुपात्तुम्माक कयींच समजलेना. बाप्पााचें नांवार एक नवो खटलो कोर्टांत आयला. मसजीदाचा मुख्तारी विशीं. दुसर्यांक समुदायाचें मुखेल जावंका! प्रश्न होच, मसजिदाचें कारभार चलोवंपाक अधिकार बाप्पाक ना म्हण्टाय.

मागीर आधिकार आसा पुण कोणाक? गांवचो मुखेल मसजीताचो मुख्तारी जावपाक आसा. 'मुख्य' अशें मान्यताय पावंका जाल्यार दुडु दाम आसूंक जाय. गांवचो मुखेल दाम्मेली आज कुंञुपात्ताम्मालो बाप्पाच आसा. एका पशीं चड दाम्मेली गांवात आसल्यार मसजिदाचा मुखेलपणा खातीर लाटाफट जाता. मार-फार आनी खून बी जाता. मागीर कोर्टांत पावता. हें अशी चालु आसतलें. खंय मसजीद आसा थंय केन्ना लडाई बी आसतली. सगट करता इबलीस. हें कुंञुपात्तुम्माक कळता.हो इबलीस नाशिल्लो जाल्यार संवसारांत कसलोय प्रश्न घडचो नाशिलो. पुण इबलीस म्हळ्ळोलो हो काळ कोण?

इबलीस म्हळ्ळेला काळाचें विशीं कुंञुपात्तुम्मान पयलेंच आयकला मसजिदांत सागून. तें मसजिदांत 'नमाज' करूंक गेल्ले न्हय. मुसलमान बायलांनी दादल्या वरी मसजिदांत वचून नमाज करूं नज! एक दीस तें राती 'व अस' प्रभाषण आयकूंक मसजिदांत सदां वरीच गेल्लें. मुसलियार 'व अस' भाषण करता. मसजिदाचा मुखार एक कोनसार मटाव बांदला. बायलांक

बसपा खातीर. त्या माटवांत बसल्यार हेर कांय पळोवंक शकना. ह्या माटवांत बसून आसा कुंञुपात्तुम्मान इबलीसा विशीं आयकलेल्लें. मुसलियारांनी मसजिदांत दिवंचें रातीचा भाषणांत साकून आसा मुसलमान समुदाय लोक आपणाला जाती धर्मा विशीं शिकताय. मुसलियारान त्या दीस इबलिसा विशीं ताळ लय सयत व्हडान सांगून दिल्लें. कुंञुपात्तुम्माक हें सग चांग उडगास आसा.

इबलीस म्हळ्ळोलो काळ सुरवेक एक मुखेल मालक आसीलो. एक देवदूद. सर्गांत रबूल आलमीन धनियाचा दरबारांत सुसेग वावरून आसतना एक घडणूक जाली.

धर्तरेची सृष्टी जावंचे फूडें. इतिहास म्हळ्यार हो: सगटांचें पयलें अल्लाहु हांणें मुहम्मद नबीक सृष्टी केल्लो. ही जाणवीकाय खंयसून घेतली ? कुराणाचेर ना. मुसलियाराकडे कोणेय विचारूंक नाशिलें. आयकलें जें विश्वास पावंताय. नबीचा सृष्टीचा उपरांत अनंत कोटी युगां सोंपले.मागीर धर्तरेक, नक्षत्रांक, सूर्य-चन्द्राक आनी पुराय प्रपंचाक सृष्टी केल्ली. मुहम्मद नबीचा हुमेचें तीन थेंब्यांत साकून हेर जीवजाळांचीं शृष्टी जाली.तांतु पयलो मनीस आसलो आदम नबी !

अल्लाह हांणी आदम हांका सृष्टी केल्ले आनी ताका पायपडूक सगट जीवजाळांकडे आनी मलक हांचेंकडेय हुक्कुम दिल्ली. सगटांनी उतराक मान दिल्लो. पुण मलक हांणे मात निराकर केल्लो. कित्याक जाणा, मलकाचें सृष्टी उजांत साकून आनी मनीस आदमाची सृष्टी मात्तेंत साकून जाल्ली.

मत्तेंत जाल्लेल्याचें मुखार उज्यांत जाल्लेल्यान माथें बागोवंका म्हळ्यार नीत व्हय ? हो मलक मुख्यालो न्याय ! कित्येय जावो दुस्वभाव दाखयलें खातीर रबूल आलमीन धनियान त्या मलकाक दंड लांबलो. आनी सर्गांत सकून भायर घाल्लो.

हो मलक आसा काळ इबलीस म्हण वळखता. कुंञुंपात्तुम्माक इबलीस हांचा विशीं आनीक कितें सगट कळता.

फुडेचो विरोध मनांत दवरनु इबलिसान भुंयचेर येवनु आदींचीं आवय बापूस जावनु आसील्या आदम नबी आनी हव्वा बीवी हाचीं वाट चुकेवपाक प्रयत्न केल्लें. ह्या उपरांत पुराय जिवावळाक विशेश जावन मुसलमान जनपताक, वाट चुकोवंन काफीर करनु नरकांतलें पापी करुक वावर कडतालो. तो विंगड विंगड सवंग घेवन बोवंता. सगट भास बी उलेयता. कसलोय रूप घेता. ताका सांगात लोक जाय. हो आसा ताजो गुपित उद्देश. हकाय लागून आसा एक कारण.

हें कुंञुपात्तुम्माला बाप्पान सांगून आयकलां. मुसलमानाक एक आगळो भेस आसा न्हय ? दादलो जाल्यार लुंगी न्हसतलो. लुंगी दाव्यान न्हसका ! माथें ल्हान करनु दवरूंक जाय. भाटाक बांद घालेल्या वरीच खाड दोनय भागन बर्कान कातरून राबोवंका. बायल जाल्यार कान तोंपून कानाक आलकें घालका. खोमीस घालका. मथार तट्टम पागुरका. केंस व्होळोवंयेत पुण भांग दवरु नज !

एक मुसलमान तरणाटो नेमाचें आड चलो. तांणे केंस व्हडयलें. क्रोप माल्लें आनी केंस

व्होळोवंन दवरलें!

ही खबर आयकून बाप्पान ताका आपोवन हाडलो आनी म्हालाक आपोवंन ताजे केंस कातरायलें. कित्या खातीर ? केंस कोणालें सृष्टी ? कित्याक म्होण सृष्टीलें ? कोणेय विचारचें ना. केंस कतरून भायर घाल्ले उपरांत वट्टनटिमान म्हळ्ळें:

''वट्टनाटिमाक जीव आसा मेरेन - आलाह आनी मुहम्मद नबी हांगेल्या दयेन - इसलाम विश्वास मोडूंक दिवंचना!

कित्याक जाणा, केंस वाडोवन क्रोप मारनु भोवंपी म्हळ्यार तो इबलीस! काफीर! देखून आमी जतनाय घेवपाक जाय. ना जाल्यार तो माथ्यार चडून बसतलो. ह्या खातीर माथ्यार टोपी दवरताय. टोपी ना जाल्यार माथ्यार तुवालो बांदल्यार जाता. कांय ना जाल्यारीय माथ्यार तुवालो बांदप म्हळ्यार एक तराचो अभिमान! योग्यताय!

पुण, बाप्पा माथ्यार टोपी जावो लुगट जावो घालना. नमाज करताना मात बाप्पा माथ्यार तुवालो घालता. आनी इबलीस बाप्पाचा माथ्यार बी चडून बसतलो ? ह्या विर्शी संशय नाका!

वट्टनटिमाचा कुसीक येवपाक इबलीसाक त्राण ना!

कित्येंय जावों कुंञुपात्तुम्मा केन्ना माथ्याचेर तट्टम घालतलें. उम्मा बी माथ्यार लुगट घालता. कुंञुपात्तुम्मा केंस वळेवंनु दवरता. पुण काफीरांनी करचें वरी केंसाक भांग काडप ना.

सैतान आजून वावरून आसाय. मुसलियार आपणाला रातीचा भाषणांत ह्या विर्शी सांगून येताय. कोणाक गिन्यान ना. वाचूक जावो बरोवंक जावो कोणाक कळना. राशींनी ग्रंथ आसाय. सगट अरबी भाशेंत आसाय. मुसलीयार अरबी भास शिकिल्लें. मुसलीयार जें सांगता तांतू आमी विस्वास घेवपाक जाय. तांणी सांगील्यावरी आमी चलका. तें सांगून दितल्लें. भूक हाचें विर्शी तांणी सांगील्लें एक घडणूक बाप्पान विवरसून सांगलें:

आदीं सृष्टी जालें उपरांत पुराय जिवावळांच्या आत्माकडे अल्लाह हांणी विचारलें:

''तुमचो रचणार कोण ?''

सागटानीय म्हळ्ळें

''आमका रचणार ना!''

अल्लाह हांणी सगटांकय शासन दिल्लें. तरातरांचें शासन दिल्लें. खूब काळाचें शासन दिल्लें. जाल्यारूय मान्यताय दिवंक कोण तयार जाले ना.

अखेर रबूल आलमीन धनियान सगटांक निष्टूर शासन दिल्लो! भुकेचो शासन! अशी तेन्ना सावन भूक ही अवस्ता जाली! तेन्ना सगटांनीय मान्यताय दिल्ली:

''अल्लाह आमचो रचणार!''

तेन्नाचें त्यें संमतीपत्र एक फातराचा भितर सिरकायलें. आतां तो फातोर प्रळय ह्या अखेरेचें दिस आत्माक तिरसुवाद करताना गवाय म्हण दवरतलें. ह्या फातराचें नांव 'हज्रुल अस्वद'. हो काळो फातोर मक्कांत काबा हांगा आसा. हज्ज करपाक पावंतल्ले ह्या फातराक हात लावनु उम्मो दिताय. बाप्पा आनी उम्मा ह्या फातराक रोखडींच उम्मो दीना बगार रावना. कुंञुपात्तुम्माक हज्जाक वचपाक आनी ह्या फातराक हात लावन उम्मो दिवपाक शक्तलें कोण

जाणा! हांतु कितेय अडचण येता जाल्यार ताजो हेतु काळ इबलीसूच आसतलो. देवाक एक बळवंत शत्रु! तो मनिशकुळाक वायट चलणुकेंत व्हरता. नाशांत...तांणे केन्ना केन्ना घुस्पागोंदळ केल्ला!

''राबूल आलमीन धनिया!'' कुंञुपात्तुम्मा सदां प्रार्थना पावंता: ''काळ इबलीसाचा पिडा हांतु साकून आमकां राख गा तूं!''



# 3

# दुराभिमानी राजा आनी राजवाटे खंय गेल्ले?

कुंञुपात्तुम्मा शिंगार सयत आसा. हात आनी पाय मेथी लावनु तांबडेंच केल्याय. दोळे काजळ लावन काळें केल्याय. आनी अतितायेची एक आस्त बळगून दीस काडतां.

''कोण येतलो!''

सुरवेक सुरवेक व्हरडीक म्हळ्यार एक मौज अशी कुंञुपात्तुम्माक दिसतालें. पान चाबून ओंठ तांबडें करनु यजमानी जावंयेत. कानाक भांगराचे आलकें धालयेत. उम्मा बाप्पा हांचा बागडा हज्जाक वच्चयेत. पुण...आपणाक व्हरूंक येवपी दादलो मनीस निरोप दितलो कोण जाणा ?

जाल्यार सोयरीकेक पावंपी चल्ले कोण आनामक्काराला अपुरबायेचे धुवेले अपुरबायेचे धूवेक योग्य न्हय! थोगडयांक फावसो दुडु ना. आनी तोगडयांचें भेस बरें न्हय!

अशी दीस मुखार वताय. दीस सरता. कुंञुपात्तुम्माक पिराय चड चड जावन येता. इतल्यान ताका ल्हानसो एक आग्रो. वेगळो कसलो न्हय. मनांत एक उदासपण. व्हरूंक येवपी दादल्याक व्हरडीकेचा फूडेंच पळोवंका! फकत पळयल्यार मात पुरो. इतलेंच.

जाल्यार हो आग्रो तांणें कोणाकडेय सागूंक ना. अब्रु काडपी न्हू ? मुसलमानी बायलांक सजना. जाल्यारूय ताजो आग्रो दिसान दीस व्हाडत आसा. नुथोच बसून सपन पळोवंचे अशी नंतर करप कितें ? घरांताल्या कामाक पांच-स वावराडी बायलो आसाय. घरांत सदां बोवळ. केन्ना केन्ना उम्माल्या खडाव्यांचो 'कडो कडो' वाज आयकूक येता. मुखावेल्या कुडांत साकून बाप्पाचो आवाज. थांगा बाप्पा आनी येदें दादले उलोवंन बसल्याय.

कुंञुपात्तुम्माक कार्यींच समजलेंना. कोर्ट, वकील, गवाय, लांच अशी कितें सगट उलयताय. थोगड्या वेळार ताजा व्हरडीक ह्या विशीं चर्चा जाता. तांचो भासाभास ताका आयकोवंक आग्रो आसा. कितें करप. ताका हालूंक तरी जायना. कुंञुपात्तुम्मा हाल्लें जाल्यार लोकांक रोखडेंच कळतलें. ह्या खातीर ताका लज बी भोगता. तांणें उस्वास सोडल्यार, 'कलो' असो वाज जाता. चमकता जाल्यार मागीर सांगूक ना. 'क्लों-य्लों-प्लों' हो वाज! इतलो सबार भांगार कित्याक ? हें कोणाक दाखोवंक ? एदें भांगार काडून दवरयेत. पुण, चल्लेक पळोवंपाक येवंपी बायलो खंयचा वेळार चडून येतली म्होण सांगूक जायना.भांगार उणें बी जाल्यार अब्रु सेंटल्लो न्हय ?

येवंपी बायलो भांगरांत पुराय बुडुन आसतलीं. सगट यजमानीं. कसकसलें सवाल

विचारताय! सगटांक एक ना जाल्यार आनी एक संशय. थोगड्यांक कुंञुपात्तुम्मालें तोंड उक्तावन पळोवंका. दांत सरकेंच आसा न्हय? किडेवूंन बी आसाय कांय?

ताज्या दांतांत किडो ना. पुराय दांत सोबीत आसाय.

मागीर थोगड्या बायलांक जाणा जावंका कुंञुपात्तुम्मा बुदु कांय? ना जाल्यार ताका जाणविकाय आसा कांय? देखून थोगड्यो तरातराचें सवाल विचारताय...

"आमकां सृष्टिले कोणें?"

एकलेंन विचारलें.

कुंञुपात्तुम्मान जाप दिल्ली. "अल्लाह हांणी!"

"पुराय प्रपंचाची आनी जीवावळाची सृष्टी केल्ली कोणे?"

"अल्लाह हांणे!"

"प्रळय हजे लक्षणां कितें?"

हो प्रपंच एक दीस नाश जातलो. हें फुडें सांगूक सक्ता. कुंञुपात्तुम्माक ह्या विशीं खूब जाणविकाय आसा. एक एक जावनु विस्तारून सांगून दितल्लें... दुबळ्ळे उन्नती पावतलें. गिरेस्त दळिद्र जातलो. फटीगपणां चड चड जावन येतलीं. देवाची भक्ती उणें जातलीं. जात, कुळ हीं ना जातलें. आवय बापाक कोण मान दिवचें ना. जाण्टेल्याचेर फकाणां मारतले. बायलांक सभ्यताय आनी अब्रु ना जातलो. कोणाक कोणाचेर भोमान आसचना. विस्वास बी ना जातलो. मोग आसचना. प्रतिघात व्हाडटलो. त्रास चड चड भोगतले. राजा आनी सत्तदीस क्रुरपण दाख्रयतलें. अखेर पुराय प्रपंचाक आपणाल्या नियत्रणांत चलोवंपाक आग्रो व्हाडटलो. सर्वनाश हाडपी आयूद सयत युध सुरु जातलें...तेन्ना बी प्रपंच नाश जावचना. हे नाश करपाक "अल्लाह" हांका मात शक्तलें. प्रळय पावंचे कांय फुर्डे मनीस हें विसराय पडून भयान अवतिकायेत घुपसून पडतलें. तेन्ना एक दिसा सूर्य उदेवन जातेर मनीस आप आपणाला कामा खातीर तयार जाता वेळार अकस्मात एक मोटो आनी लांब आवाज सगट आयकतलें.

"हा... ! हो आवाज कसलो?" आनी हो आवाज आयकोवंन सगट अचकित जातलें... ह्यो आवाज आसा आखेरेचो 'सूर'. इसराफिल नांवाचो एक मलक हो आवाज करता! एक नळयेंत साकून हो सूर भायर येता. ह्या नळयेक प्रपंचाचा एक एक जीवावळाचो अंकडो अनुसारनु बोंथो आसा. हो अवाज आयकताना लोकांक भिरांत लागतलें. तेन्ना ते कांय एक थळाचेर एक मेळतले आनी भयान विचारतलें:

"हो आवाज खंय साकून येता?"

हो आवाज ल्हवु ल्हवु व्हाडोवंन येता. गुडगुडो जसो जाता. मनीस आनी हेर जीवावळ एक एक जावन मरून पडतलीं. आवाज आनीक व्हाडतलो. भूय हालतली. मागीर फुटतलीं. समुद्र पुराय देशां गीळनु घेतलें. दोंगर आनी पर्वतां फुटून लाख लाख अंगड्यांनी ल्हान ल्हान कुटकें जातलीं. पावस आनी झोड मारतलो. संवसारांत उजो पुराय पालोवन वतलो. नक्षत्रां आनी सूर्य चन्द्र सळेवन फुटून इंगळ्या वरी जातलीं. सगट नाश पावतलीं. सौरयुथ आनी पुरा प्रपंच.... कायींच बाकी उरचें ना. सगट फुटून पुडी जावन वार्यान उबून वतलें. सासणाचो

सून्यताय...आनी सून्यताय...अखेर...अखेर... राबूल अलमीन धनी मात उरतलो. तेन्ना तो म्हण्टलो:

"हांव..हांव..अशी म्होण दुराभिमान दाखयिल्ले राजा आनी राजवाटे आतां खंय गेल्ले?"

शून्यताय... मोटी शून्यताय. अशी कोटयांनी युगां तो एकसुरोच वावुरतलो... मागीर घर्तेरेची सृष्टी करतलो. नक्षत्रां आनी सूर्य चन्द्र पावतले. सगट आत्मो परतून उबे जातलीं. मागीर ख्यास्त आनी संरक्षण हांचा विशीं कुंञुपात्तुम्मा विस्कावन सांगतलें. ताका पुराय जाणकारी आसा.

बायलो कुंञुपात्तुम्माक पळोवंपाक येतालीं. ताजकडे तरातराचें प्रश्न विचारताली आनी ताका तपासणी करताल्यो फकत तांगेल्या पुतां खातीर ना जल्यार भावां खातीर

ताकाय एक धाकलो भाव जाय आशिल्लो! एक वेळा ताकाय हेर घरांत चडून वचून कांय प्रश्न विचारून जाणटी यजमान  जावयेंत आशिल्लें. एक मुसलमान बायलेक आवस्य जाय आसलो जाणविकाय ताका आसा. तें 'कुराण' चत्रायेन वाचता. कुराण म्हळ्यार अल्लाह हांचीं पवित्र वचनां. देह शुद करनु मात ह्या ग्रथांक हात लावंका. ह्या खातीर न्हावंका ना तर 'ओसु' करका. हाका कांय अरब वाक्यां म्हणून हात,थोंड, नाक, मुखामळ, कान, कपल पांय हीं तीन तीन पावट निवळ उदकांत दुवंका. कुंञुपात्तुम्माक नमाज कळता. सुबह, लहर, असर, मगरीब, इसा – अशी पांच वेळा नमज करका. अदृश्य रचणाराचा मुखार रावून पावंची प्रर्थना. हाचे भायर 'इस्लाम' आनी 'इमान' ह्या विशयाचेर भारी जाणविकाय आसा. ताका जिकूंक कोणाक शक्यना. एक पावट ताका पळोवंपाक आयलेला बायलेन ताजकडे एक कुवाडें विचारलें :

"आयिशा बीबी कोण?"

कुंञुपात्तुम्मान जाप दिल्लो:

"मुत्तुनबी हांची घरकान्न!" मुहम्मद नबीली  बायलांत एक आशिल्ली आयिशा बीबी.

"आयिशा बीबी हांचें कान तोंपून आशिल्लें व्हय?"

"व्हय, तोंपून आशिल्लें!"

"कितलीं अलिकत आशिल्लें?"

कुंञुप्पात्तुम्मान जाप दिल्ली. "स्वर्गांत साकून जिबरील  हांणी म्हण्यांघोस हाडून रूसूल सल्लल्लाह अलयही वसल्लम हांचें हातांत दिल्लो. मुत्तुनबीन हो घोस आयिशा बीबीचा कानाक लांबयलो!"

कुंञुपात्तुम्माला कानाक पुण म्हण्यांघोस लाबोवंक ना. दोनीय कानाक भांगराचीं एकेवीस वेलिंग आसाय. एक एक वेलिंग हाजेर पातळ आनी ल्हानशीं पिंपळा पानां जशें भांगराचीं एकेवीस दाण लांबताय. वारें लागतना हें सगट ल्हान आवाज दीवन हालताय.

कुंञुपात्तुम्माला कानाचा उंचावेल्यान भांगराचीं दोन कुंडल आसाय. ताजेरी दोन भांगराचीं दाण लांबून आसाय. गळ्यार भांगराची माळां आनी भांगराचें एक मोटें घोसाळे. उम्माचें गळयाक आशिल्लें वरी मागलसूत्र ना. हें म्हळ्यार व्हरडीकेचा उपरांत मात घालचें. कुंञुपात्तुम्माला हातांक भांगराचें कांकण आसा. बोटाक मुद्दी आसा. मुद्दी पुण बाप्पान घाल्लेल्या

सारकीं तांब्याचीं न्हय. मुसलमान दादल्यांनी भांगार वापरूंक न्हय.

कुंञुपात्तुम्माला बोटाक भांगराची एक धाट मुद्दी आसा. हस्तीचें दोळ्या सारकेंची. कुरटाचेर भांगराचो पटो. ताजेर खूब तावज लांबतां. तागेल्या पावलांचेर भांगराचीं भितेर पोकळ आनी मोटें पायजणां आसाय. तें चलतना पायजणांचो बर्यो आवाज आयकूंक येता. तांतु भितेर कितें भरल्लां हें ताका ना कळ. भांगराचें दाणो व रेंवेकण. कितें तरी असाच. देखून चवंकताना आवाज दिता आसुयेत.

कुंञुपात्तुम्मा सदां मोन्यानी बसून आसतलें. तें खाता, जाल्यार ताका भूक ना. तें न्हीदता जाल्यार ताका न्हीद येना.

कुंञुपात्तुम्मा त्या व्हडला घराचा राजागणांत राती चान्नांत अशींच रावतले. ताजा मनांत कांय एक दुख. कारण कितें? कुंञुपात्तुम्माक कळना. सबाव दिसता जावयेत. तांणे येवजिल्ले. ताका कसलो तराचो उणाव ना. जाय तें सगट आसा. तरीय तें राती वेळार नक्षत्रां भरल्ले मळबार पळोवन हांसपाक सोदता. उम्मा ताका घरांत भितर आपयतली. भायर अशी एकलेंच रावूंक नज! कित्याक जाणा, कोणोय ताका पळेतलो न्हू? लोक ताका देखतलें न्हू?

"मळबांत कोण आसाय गे उम्मा?"

उम्मा म्हण्टली:

"इफरीत, जिन आनी देवचार गो धुवे!"

अंत्राळावेल्यान सदां भोवंपी अदृश्य जीवानी ताका पळयल्लें बी जाल्यार?

मळब देखतला वरी सून्य न्हय! मलक, जिन, इफरीत म्हारु – मात न्हय काळ इबलीस हीं सगट मळबावेल्यान उडूंन भोवंतली. अशी वतना कुंञुपात्तुम्माक पळेले बी जाल्यार थोगडे जाणां ताजेर आग्रो दिसून ताजा देहार सरतलें.

देखून उम्मा आपयतना तें सामकी भितर सरतलें.

मनीस, मलक वा जिन हांणी पळयल्यार कुंञुपात्तुम्माक कयीच प्रश्नो ना. जाल्यारूय तें एक मुसलमान चल्ली आसा न्हय?

कुंञुपातुम्मा एक बदीं. वारें आनी उजवाड ताका नाका. ? ताका घुस्मट भोगता. न्हसचीं वस्त्रां ताका आतां सजना. सपना विशीं ताणें हेरांकडे सागचें न्हय! ही सपनां ताजा एकएक अणुकय उमेद दिताय. अशी सपन पळेत पळेत कुंञुपात्तुम्मा आतां एकेविसाचा पिरायेचेर पावले. इतल्यान ताजा जिवीतांत स्पश्ट जावन आसचो एक घडणूक घडलो.

ताजें भांगराचें वस्त पुराय बाप्पान मेकळून घेतलें. उम्माले भांगार घेतलें. पुराय वस्त वजन काडून विक्री केल्लें आनी कोर्टांत खटलो चलेयतां!

कुंञुपात्तुम्मालें कान, गळो, कूरट आनी हात पाय सगट भांगार नासतना शुन्य जाल्लें.

बाप्पा आनी ताजें इश्ट सदां कोर्टांत वतले. केस चलता. अखेर एक दीस भिरांकुळ स्थितीचेर पावलें. केसांत बाप्पा हारवलों.

आपमान आनी हारवण.. ह्या कारणांन ताकां गांव सोडून वचपाक वेळ पावलो!

"जाल्यार खंय वचप?"

एक तीनसांजेचो वेळ. तेदूस इल्लो वेगीन चन्द्रीम उदेवंन पावलो.

आपण जल्मलें आनी खेळून व्हाडिल्लें घराकडे कुंञुपात्तुम्मान अखेरेचो निरोप घेतलो.

घरांतसून बाप्पा, उम्मा आनी कुंञुपात्तुम्मा भायर देवलीं. बाप्पा नीट उबो मुखार चल्लो. मान भागेवन दोळ्यात दुकां सयत उम्मा मागल्यान. कुंञुपात्तुम्मा निर्विकारपणान दोगांच्या मागल्यान! सेजार पळेत रावताना तीं रस्त्यार देवंलीं! मसजीदाचा लागीचा वाटेवेल्यान चवकोवंन तीं न्हंयचा देगेर पावलीं.

प्रपंचाक कसलोय हालचाल जावूंक ना. पुण... तांचो भूतकाळ, वर्तमानकाळ आनी फूडार पुराय निकळून पडलां... जाल्यारूय न्हंय आनी न्हंयची देग चन्नां उजवाडांत निवळ आसा... लोक न्हंयेंत बुडून न्हाताय. थोगडे वेळेर बसून खोशीयेन फकाणां मारताय. संवसाराक कायींच हालचाल घडली ना. पुण वट्टनटिमा ताजी बायल आनी तांची धूव हाचें जीवित आज बेथूंन धूळ जालें.

संवसाराक कायींच हालचाल घडली ना.

कुंञुपात्तुम्मा आपणाला बाप्पा आनी उम्मा हांचें मागल्यान चल्लें. पुण खंय वचें म्हूण कळनाशिल्लें. ताजीं पावलां वळेताय. देहाक वाज भोगतां. तरीय अजाप भरल्लो हो संवसार. लोक नासतना रितो लांब रस्तो.

कुंञुपात्तुम्मा चान्नाच्या उजवाडांत आपणाला बाप्पा आनी उम्मा हांचा फाटल्यान चल्लें. खंय ? ना कळ ! ही रात पुण केन्ना सोंपचना कांय ?

● ● ●

# 4

# पोरणे दोन खाडावे

कुंञुपातुम्माक कांय तसची खोश भोगली. प्रतिघात व निशेध भरल्ली खोसी. जें घडलें तें मोटें संकश्टूच. जाल्यार कितें- लोकांक पळोंवेत. शुद श्वास घेवयेत. सूर्याचो उजवाड रुचयेत. चन्यांत बुडून न्हावंयेत. धावन भोवंयेत. उडक्यो मारन खेळयेत. गीत गावंयेत. गीत गावंपाची ताका संवय ना. जाल्यारूय आपणाक दिसचें वरी कितें करपा सारकें तें आतां मेकळें जालां. मलाक, जिन, इफरित, इन्स कोणेय येवूं!

अजाप म्हणयेंत हातभार करपाक कोण पावूंक ना! दुडु-दाम नाशिल्या सांगात कोण आसचना.

असल्या परिस्थितींत वापरूंक कुंञुपातुम्माक पुण मनांक धीर ना. दुडु-दाम ना जाल्यारीय ताजेर युवत्व फुलून आसा. रूप सौदर्य आसा. कांय दादले ताजेर तात्पर्य दाखयताय. थोगडे ताका चोवनु दोळे मारताय. आनी थोगडे ताका नाणें दाखोवन ताजे लक्ष ओडूंक सोदताय.

हें कांय ताजा बरेपणा खातीर न्हय अशी ताका कळ्टा. सगट वायटपणाक खातीरचो उल्लो! तें एकसूरेंच कोणाचा दृष्टेंत पडनाशीं चिंचेमुळांत वचून बसतलें. ना जाल्यार साळीक भरल्लेंला तळ्यादेगेर वचून बसतलें.

तळ्यांत उदकाचो रंग नीळो. धवें आनी तांबडें साळीक भोरनु आसा. पाचवें रंगी वाटकुळी चकचकीत पानां उदका वयर उदकाक तापून पडल्यांय.. फुल्लून राविल्लें साळकांक आपडून येवपी शितळ थंड वारें.

तळ्या देगेचेर ते नुथेंच बसतलें. अनंत मळब आनी विस्तृत प्रपंच.

घर लागींच आसा. हें एक घर अशी कुंञुपातुम्माक आताय दिसपाकच ना. साल सोलून दवरलें वरी. तांबडो फातरांनी उबारलें पोरणें एक ल्हानशें घर. एक कूड आनी एकी वसरी, इतलेंच. वयर सुकें तण पतळायला. तणाचेर भात किरलेवंन आयला देखून पाचविसाण दिसतां.

घरांत सबार वस्ती ना. दोन-तीन मांदर्यो आनी उर्सी. सगटाचेंय वस्त्र दवरपाक एकीच एक पेट. आनी दोन-तीन फातरेलाचें दिवें.

वासरेंत दोन-तीन कुळणीं आनी रादय सिजोवंपाक कांय मातयेचीं मडकें. जेवणाक आनी निशें पीवंपाक बशी.

खावपाक पीवंपाक घरांत काय ना.

पयलेचा घरांत साकून देवून येता वेळार कार्यीच काडलेंना. रिते हातान देवून आयली न्हय ? जाल्यार आजाला त्या व्हडला हस्तेचा सुळ्यांचें तोपरें लायलेले उम्माले तें पोरणें खाडावे उम्मान हाडले. येताना उम्मान हातांत घेतील्लें कांय, कुंञुपात्तुम्माक खबर ना.

त्या खाडाव्याचेर आसा सदां उम्माली भोवंडी. सदां उलोवंनूच आसतली. केदणाय तोंडांत भरनु पान जाय.

बाप्पान पान खावप थांबयलें. केंस जाल्यार पिकले. चड उलोवप ना. कांय अदृश्य लोकांत पळेता सारकें दूर दृश्ट मारन बसतलो. येवजूंपाक मस्त आसा न्हय ?

''अल्लाह, मुत्तुनबी आनी आंगवणेचा पुरसांनी थरायलें जशें सगट चलतलें'' बाप्पा म्हण्टालो:

''एक वेळाचो नमाज तरीय हांवे विसरूंक ना. एक तरी व्रत सोडलेंना !''

मागीर अशी घडलें कित्याक ? कुंञुपात्तुम्माक आतां समजलें. सांगूक गेल्यार कार्यीच घडलेंना. आनी कित्येय घडलें जाल्यार चूक कोणाचेर लावची. बाप्पाचेर दोश लावूंक ताका केन्ना शाक्ना. उम्मा, मामी आनी माम्मा हांचेरिय दोश ना. पवित्र कुराण हांत लावन चोर गवाय सांगील्या मुख्याचेर कशीं दोश लेकप. कुंञुपात्तुम्माक मनसाचेर कोणाचेरीय दोश देखूक जायना. खरें म्हळ्यार दोशी शैतान काळ इबलीसूच !

कुंञुपात्तुम्मा सदां मागणें करतली:

''रबूल आलमीन धनिया, आमकां काळ इबलीसाचा पिडेंत साकून राख !''

हेर ताका कितें करूंक जातलें ? इबलीसाचें खातीर ताणीं त्रास भोगला.

इबलीसान केल्लेंली करणी सांगता:

कुंञुपात्तुम्माला बाप्पान वापरून काडिल्लीं भाट आनी खजन बाप्पाल्या एकल्याचें न्हय. त्ये व्हडले घर आनी हेर वस्तु बाप्पाक आनी बाप्पाला सात भयण्यां खातीर आशिल्लें.

सात भयण्यांनी सगळ्यांनी मेळून बाप्पाचेर कोर्टांत केस दिल्लें: 'आमचो भाव वट्टनाटिमान रातारात आपणाला उम्माक बैल गाडीचेर बसोवनु कचेरींत व्हल्लें आनी पुराय घर-वस्तु आपणाला नांवार बरोवनु घेतलो.'

''पुराय वस्तु माका म्हजा मायेचा उम्मान बरोवन दिल्ला !'' अशी कुंञुपात्तुम्माला बाप्पान कोर्टांत वाद सांगलो ! केस सबार काळ चल्लें. दोनी भागांत सावन दाम रासीन वेंचु जाल्लो. नामनेचें वकीलांनी केस हाताळें. जिखपा खातीर दोगांनी सगट मसजिदांत आंगवण केल्ली. पुण्य पुरुसांला कबराकडे वचून प्रार्थना पावलें, आंगवण पावलें, मसजीदांत घुडी मारप आनी चंदनाचो कळसो हांची उकलासप घेतला. हांचे भायर दोगांचे सांगत मानेस्त लोक नकल्ली गावाय दिवपाक हाजीर जाल्लें. केस वट्टनटिमाक अनुकुल जावन येताले. ह्या वेळार एक विचित्र प्रश्न उदेलो. वट्टनटिमाला उम्माक पिशें अशिल्लें ! आधाराचेर सय करता वेळार तिजें मानसीक अवस्था बरें नाशिल्लीं खय ! हो वाद अस्सल वा नक्कल ? गवाय सांगून सिद्ध करूक जाता ? उम्मा मरून गेल्ली न्हय ? आपोवंन हाडून कोर्टांत राबोवंन तिरसुवाद करपाक कोणाक जाता ?

"वट्टनटिमाला उम्माक पिशें आश्ल्लि खय!"

तें अशी म्हण्टालें! पिशें आशिल्लें जावो नाशिल्लें जावो वट्टमटिमाला उम्माला वस्तूचेर वट्टनटिमाला भयण्याकय अवकाश ना कांय? घुसपसल्या त्या केसा विशीं कुंञुपात्तुम्माक कांय कळनाशिल्लें. हे सगट केल्लेंले काळ इबल्लीस हाणें म्होण मात कुंञुपात्तुमाक खबर आसा. कितेंय जावो कोर्टांतले केस बाप्पाक दोस जावन सोपलें. मसजिदाचा मुख्या विशीं आनी पिशा खातीरचें केस चलपाक म्होण सबार दुडु वेचु जालो! चडान चड रिणेली जालो. शेवटाक रस्ता कडेर आसलें एक ल्हानशें थळ मात बाप्पाक मेळ्ळें!

ह्या जाग्यार ऊंचार सुकें तण पातळायलेंली एक खोपी, चार होपळी, नंव माड, एक चिंचे रूख, साळिक भल्लें एक व्हडलें ताळे आसा. तळांत पळेताना कुंञुपात्तुम्माक मोटी खोस भोगली! अशी साळिक भरनु आसले तळें कुञुपात्तुम्मा पयलेंच पावटी देखतां. धवीं आनी तांबडीं सोबीत फुल्ला! केन्ना तें फुलां मेजून चोयतलें.एक भोरी सागून मेजून दुसरी भोरीक पावना फुडें उम्मा ना जाल्यार बापा ताका आपयतलीं. देखून ताका साळीक मेजून काडपाक आजून जाल्लेना. जाल्यारूय ही एक सोबीत सैमिक देखाव... तरीय तळयाचा सोबितकायेत कांय तरी एक भिकरताय, आळसीक... हें सगट ताका उक्तेंच समजता.

एक दीस एक घडणूक जाली. ह्या उपरांत ते न्हावपाक वता जाल्यार सेजारांचा घरा लागीचा बांय्चा कुसींत. थंय एक माळयेचे घर आसा. तांतु कोण वावुरपाक ना. थोगड्या वेळार थंय वावुरपा खातीर कोण तरी लोक येताले. त्या दिसांत कुंञुपात्तुम्मा थंय वचपाक नाशिल्लें! बांयचें उदक भारी थंड. ताजा लागी एक बोवरेचो रूख आसा. आनी त्या रूखाचेर मोगरीची वाल पातळावन पडल्या. वालीचेर मगमग वास मारपी भोरनु मोगराचें धवें फूल आसा. एक रास फूल तें वेंचून काडतलें. केंसांत माळप ना. कित्याक म्हळयार मुसलमान बायलांनी मात्याक फूल माळयेत कांय ना हें ताका कळना. जाल्यारूय मोगरी फूल ताका खूब आवडल्लेंले. थांगा सबाव बसून केळीचा वय्याचेर फूल घांतून माळा करतलें! थंय बसतानाच कसलोसो आनंद भोगता. निशब्द वातावरण. मनीस कोण थंय पावना. मुखार इल्लो सकलचान रस्तो आसा. रस्ताचा पेलताडी खजनों. ताजाकय पेलताडी दूर आसा न्हंय. न्हावूंक थंगा वचका जाल्यार रस्ता वेल्यान चलूंक जाय. व्हरडिकेची पिराय पावलेल्या मुसलमान चल्ली रस्तावेल्यान एकलेंच वतल्लें कशीं? आपणाल्या घराकडेचा बांयचेर न्हाण करूं म्हळयार थंगा कसले तराचे वेश्टन बी ना.

देखून एक दीस कुंञुपात्तुम्मान थरायलें. साळीक भरल्लेले तळयांत न्हावचें. कोण पळोवंक येना. दनपाराचो वेळ. हुन हुन वोत मारतालें. एक तुवालो हातांत घेवनु तें तळ्याकडे गेल्लें. खोमीस कसी तरी काडलो आनी तणाचेर दवरलो. तुवालो न्हेसून लुंगी परतलें आनी लुंगी खोमीसाचा ऊंचार दवरलें. कुंञुपात्तुम्मा ल्ह्वु ल्ह्वु उदकांत देवलें. उदक छाती मेरेन पावीलें तेन्ना तें उदकांत बुडल्लें. दोन-चार पावट तें बुडूंन न्हाल्लें. मागीर आंग घासूंक सुरवात केल्लीं. अचकित उदकांत पळेताना एक ल्हान प्राणी आपणा सामकार चरनु येता.

आंवळून आशिल्लो लांब सोपूर एक जीव!

"अल्लाह...जळु!"

तांणे बोवाळ मारलो. तें वेगीन उदकांतसून ऊंचार चडून रावल्लें आनी तांणे अपणाले आंग पुसलें. जांगेचेर काळेंच कांय एक...पळेताना ताका घुसपोस भोगलो. ताका अळशीक दिसली...आनी तें भयान थरथरेलें. जांग्येचेर एक जळु चाबून रावलां. दोनीय भागवेल्या तोंडानीय जांगेर चाबून धरलां!

"उम्मा, बाप्पा... धावन येयाय! चाबून माका जीवशीं मारता! सगटांनी दावनु येयाय" अशी म्हणून व्हड-व्हडान बोवाळ मारचें म्हण ताका दिसलें. पुण जाता कशीं? तांणे खोमीस घालो ना! लुंगी बी न्हसूंक ना! कितें करप?

कुंञुपात्तुम्मा भियेवन अजापून रावलें. जळु जाल्यार इतल्यान जांगेचें रगत चिवंन मोटो जावन व्हाडतां! तांणे चाबून धरलोलो ताजो एक बोंच सोडयलो. आतां जळु एक बोंचानी ताजा जांगेचेर चाबून लांबून पडला! ताका सबार दुखलें. हालताना जळु नगड्या जांगेचेर घसटता. हो... तें दांत चाबून हालनाशीं अशी रावलें. जळु आतां एक गुळो सारकें जाल्लें आनी सकल पडले. ताजी भिरांत दूर जालीं. तें खोशीन नाचलें! "काळ इबलीस, म्हजे रगत तितलेंय पिल्लां", अशी सांगून जळाक जीवशीं मारचें म्हण तांणे येवजील्लें. पुण, शक्य ना. जळाक उम्मा आनी बाप्पा बी असूयेत. आनी हो दादलो जळू वा बायल हेवंय सांगूक जायना. भुरगी बी असूयेत अल्लाह हांची सृष्टी. कुंञुपात्तुमाक बी सृष्टी केल्ली अल्लाह हाणीच न्हू? तेन्ना..? मारूं नज. पाप. दोश... हिंसा करूं न्हय!

कितेंय जावो. तें ताजा वाटेंन वचो. वचो ताजा घरांत. पळून वचो! वच!

"रे जळु आनी तूवें कोणाक चाबूक नज. रगत पीवूं न्हय आयकता तूं? रगत पिल्यार पळें, तूं मरतेर अल्लाह तुका नरकांत घालतलो. आयकता तूं?" अशी म्हणून कुंञुपात्तुम्मा एक सतकर्म करपाक तयार जालें. जळुक एक बडेचेर दुखयनाशीं काडून ल्हवूच उदकांत धाल्लें. उदकांत पडना फुटें एक गोळक्यान ताका गिळून घेतले!

आतां कुंञुपात्तुम्मान उदकांत पळेलें.. गोळको एक न्हय दोन आसाय! घोव आनी बायल! मात न्हय... भुरगी बी आसाय! तांबडी रंगी ल्हान भुरगी निळ्या उदकांत तांबडें सायेची कण जशीं सोबताय!

"आरे! गोळक्या तूवें कित्याक ताका गिळनु घेतला? पाप न्हू?"

मनीस मासळेक धरून खाताय. पुण, कुंञुपात्तुम्माक हें पाप म्होण दिसलेंना. कुंञुपात्तुम्मा वरालाचें कुडुंबाक पळेत रावलें. दोळ्यांत मायेची लक्षणां दिसताय. दोग मासळेंचेय कानांतल्यान उदक व्हावंन भायर वता. हें आली हांगेलें 'दुलफकार' तरसाद लागून जालो घाय आसूंक जाय!

उदकातली मोर्च मासळी कुंञुपात्तुम्माक पळेत रावल्या. कुंञुपात्तुम्माक लागी मेळयार 'खप' करनु ती गिळनु काडतली!

तांणे आपणाले ओल्ले केंस पुसून सारकें केल्ले. उपरांत साळकाचा तळयांत चत्रायेन पळेत रावलें.

साळकांचीं फुल्लां फुडें आशिल्या जशींच धवी आनी तांबडी रंगाचीं.... पुण तांचा पोंदाक मनशांलें रगत चिवंपी जळु आनी जळाक मारपी मासळ्यों आसाय – जाल्यारूय साळका फुल्लां कांय हुसको दाखयनाशीं रावल्याय... सगट फुल्लां ताका चोवनु हांसून फकाणां दाखयताय जशें... अशी तें रावता वेळा साळकाचा तळयांतलो दुसरो वस्तीकार पावता.

एक व्हडलेशें हेवाळें! हेवाळ्याचा पोटाक धवसाण आसा. हेवाळे साळकाचा पानाचेर चेरनु चडलें. आनी लोकटो उदकांत बुडोवन पडलां. अचकित कितें तरी तोंडांत घेतल्या जशें माथें उदकाचा ऊंचार उबारलें. पाप, एक मासळी ताजा तोडांत! मासळी रडूंक ना उलोवंकय ना. तीं वाकडी तिकडी जाताली आनी बाल हालेताली. हेवाळ्यान हुसको कांय दाखयनाशीं मासळेक गिळनु काडलें. हेवाळे आतां फुडेंचे वरीच हिकमत घेवनु पडलां. दुसरी खंय आसा?

कुंञुपात्तुम्मान तळ्यांत जोखून पळेल्ले. तळ्यांत आनीकय आसाय वस्तीकार! कासव, मेढंक, जलभवर, बेब्बो – तरातराचीं जीवावळ!

साळका फुल्लां हालनाशीं रावून हांसताय! त्या तळ्याक पळेताना बर्याची सोबीतकाय आनी एक सारकेंची भिरांकुळ बी दिसता.

हो घडणूक जाल्ले उपरांत आपणाक बरे मोग करपी आनी आपणाक शासन दिवपी एक इष्टिणीचा लागी वता ह्या सारकें कुंञुपात्तुम्मा तळ्या लागी पावतालें.

कुंञुपात्तुम्माक घरांत कसलोय काम करूंक ना. घरांत फावसो काम आसा. पुण ताका काम करुंक कळना. फूडें नाशिल्लें मेकळेपण आतां तांका मेळ्ळां! हें मेकळेंपण पुण कोणाक जाय? ताका रांदपाक जावो रानींत उज्जो सवकीवूंक जावो कळना! उम्मा बी ह्या कामांत हुसार न्हय.

बाप्पा भारी कष्ट काडून खावपाक कितेंय घेवन हाडतां. बाप्पानच तें सिजेवंन तयार करका.

''चल्ली म्होण जल्म घेतल्यार कांय ना जल्यारीय उज्जो संवकीवूंक कळूंक जाय!'' बाप्पा म्हण्टालो.

ही उतरां आयकतना कुंञुपात्तुम्मा लजेन मान वागोवन रावतलें. पुण, बाप्पा आक्षेप उलयतलो कुंञुपात्तुम्माकडे न्हय, जाल्यार उम्माक लक्ष दवरनु आसतलें. उम्मा पुण त्या खाडाव्याचेर चडून 'कडो' 'कडो' अशो आवाज दिवनु चवंकतली. आनी चलुनूच म्हण्टेली:

''हांव आनामक्कारालीी अपुरबायेची धूव जाणा तुमी!'' बाप्पा मोनयानी रावतलो.

खाणा जेवणा वेळार उम्माक हात धूवपाक उदक घालून दिल्लेना जाल्यार उम्मा जेवचीना. हालनाशीं थयींच बसतली.

बाप्पा रागार चोयतलो. कुंञुपातुम्मा उम्माक हात धूवपाक उदक घालनु दितल्लें. उम्मा तेन्ना म्हण्टेली:

''तुजा आजाक गो एकी हस्ती आशिल्ली; व्हडली एकी सूळ्यांची हस्ती''

बाप्पा कायींच जाप दिवचना. पुण उम्मालो उलोवप साबार जातेर बाप्पा व्हडलो झोड हरद्यांत भितर धरनु राबयता सरक्या अवस्थेंत ल्हवूच म्हण्टोलो:

"तुजी जीब बान्दून दवर गो!"

उम्मा विचारतली:

"ना तर तुमी कितें करतलें माका; नाकांत बी थाडूंन घेतेल्ले व्हय? हांव आनामक्काराली अपुरबायेची धूव; माका उलोवंक 'लायसन' आस्सा जाणा!"

"म्हजा मोगाळ उम्मा, तूं एक ओगी बस गे" कुंञुपात्तुम्मा उम्माकडे म्हण्टालें.

"आगो हराम!" उम्मा म्हण्टली: "ओगी बसका व्हय? तूवें जल्म घेतले खातीर अशी सगट जाल्लां!"

तेन्ना दोशी पाप इबलीस न्हय! कुंञुपात्तुम्मा येवजितले आनी दुख भरीत हांसतलें. पुण चड दीस ताका हांसूक जालेंना. ताजा मना भितर भिरांत लागली. बाप्पा केदणा उम्माचो घात करतलो म्होण कळना.

● ● ●

# 5

# तुफान मारलें पुण पान पडलेंना

मनीस अशी जाता कित्याक ? कितले पावट येवजिल्यारिय कुंञुपात्तुम्माक हाजें रहस्य समजूंक जायना. पिराय जाताना घोष-बायले मद्धें दुसमानकाय उबजता कित्या खातीर ? हेर बाप्पा आनी उम्मा बी ह्या सारकेंच आसाय व्हय ? एकमेकांक चाबूक, पिंजूक सोदताय जशें ! मोवाळ उतरां ना व्हय ? जड उतरांनी एकमेकांकडे वैराग्यान वावुरताय ! क्रूरताय...इल्लोशो मोग दाखोवंक मेळना. हें पळेताना थोगड्या वेळा कुंञुपात्तुम्माक हांसूंक दिसता. पुण, ताणे हांसप ना. जीण एकादर मोडून पडला. हाजें उतरदायित्व कोणाक ? हाजें कारण कितें ? कोणाकडे विचारचें ? पोटभर खावपाक मेळूंक ना. न्हेसणां विशीं सांगचें म्हळ्यार अब्रु दिसता. न्हेशीलें आंगवाले परतून परतून न्हेसून...तेंच परतून परतून उंबळून... बोथर जाल्लीं. हाजो पुराय अपराध कोणाचेर म्होण घालप ?

सगटांत विचित्र कितें म्हळ्यार तांका हातभार करपाक कोण ना. कोण लक्ष्य दीनासलीं तीन प्राणी। आदीं दाम – दुडु आसताना कितलेशे लोक सांगात आशिल्ले ! रस्तार भोवंपी भिकारी लागेन म्हण्टालो-तांचो दायजो अशें, 'लागीचो माम्मा' नाजाल्यार 'लागीचो बापल्यो'.

आतां पळेलें ? 'दायजी' कोण ना. ह्या प्रपंचांत हो तीन प्राणी मात बाकी उरल्याय. जाल्यार हीं तेग जाणां... बाप्पाक उम्मान आपणाला मुखार येवंचें लायक ना. सगटांतूय दोश पळेतां. आनी सोवे बी. ल्हवु न्हय. व्हड व्हडान. रस्तावेल्यान वचपी लोक सगट आयकतले. गांवातुलें सगट लोक ताचेंर फकाणां मारताय. कितें करूंक जातलें ? उम्मा बाप्पाक हिणसावपी नांवानी उल्लो मारपाक सोदता ! नवें नवें नांवा सोदून काडता ! अशी नुस्तेकार अटिमा हें नांव उम्मान बाप्पाचेर लायलें !

बाप्पान नुस्ताचों व्यापार आज मेरेन करूंक नाशिल्लो. चड दुडु वेचु करूक नाशिल्लो जो व्यापार मात तो करता. एक पावट बाप्पान सुंकें सुंगटाचो व्यापार केल्लो. बाप्पाक आवडलें म्होण न्हय. आंगाक घाण मारतली व्हय. सगटकडे घाण मारतली. सुकें लेप,मोरी, पेडवों, बांगडो अशी तरा तरा मासळी हें सगट पाटेंत घालनु माथार घेवनु दूर कांय तिंट्यार व्हरनु विकतलो. मान-भोवमान जोडिल्लो वट्टनटिमा. राय आशिल्लो वट्टनटिमा... घरांत परताताना रांदपाक म्होण तांदूळ आनी रांदये खातीर जीवी मासळी घेवनु येतलो. आदीं कुंञुपात्तुम्मा मासळी खातालें. मांस बी खातालें. मागीर मागीर दोनय खावपाचें बन्द केलें. शिवराक मात.

साळकाचा तळ्यांतले गोळक्यान जळाक धरनु गिळ्ळो. हें पळ्ळेलें तेन्ना सावन तांणे

मासळी खावपाची बन्द केलें. बाप्पान  मासळेचो व्यापार बन्द केल्लो. उपरांत बोकडेक कातरपाचें काम सुरु केल्लें. तेन्ना सावन कुंञुपात्तुम्मान मांस खावपाचो बन्द केल्लो. कातरून लांबोवनु दवरलो बोकडीचो लोखटो – ताजेवेले उक्ते दोळे... हांतु कसलोय खाशेलेपण आसून न्हय. जाल्यार हें मनाक भारी दुखयता. मासळी ना जाल्यार मांस शिजेवन रांदप करनु बाप्पाक आनी उम्माक खावयपाक ताका विरोध ना. पुण रांदय जिबेर दवरप, तिकसाण आनी मीठसाण रुचून पळोवंप ना. अशी तशी रांदप करपाक आज तें पुराय शिकलां. बाप्पा फालेफाल्यार उठावनु दांत घासून आनी तोंड दुवनु सुबह नमाज पावतलो. कुंञुपात्तुम्मा एक कप फुटे च्या तयार करन दवरतलें. बाप्पा च्या पीवंनु 'बिस्मिल्लाह' म्होण देवालो अनुग्रह घेवनु नीट उबो जावनु भायर सरतलो. हातांत इल्लो दुडु बी आसतलो. दूर बाजारांत वचून केळ्याचो घडाय जावो बटाटो, सूर्नु, फोपळ, नाल अशी कसलेंय जिनस घेवनु हाडून विक्री करतलो.

"व्हय गो नुस्तेकार आटिमा भांगरापुतळी नाणें वाटावूंक बी  गेल्ला भायर ?" अशी विचारून उम्मा मांदरेचेरसून उठावनु येतेली. भांगरापुतळी – उम्मान आदळो काळाक मस्त पळेल्लें आसा... !  उम्मा उठून येताना कावळ्यांची 'काव' 'काव' आयकूक येतलो आनी दीस उजवाडून वोत पसरून आसतलें. उम्मा अल्लाह हांचेकडे रागार आसा म्होण दिसता. उम्मान नमाज पावप बन्द केल्लो. प्रार्थना जाय कोणाक ?...

"ओ...हांवें जायतो नमाज पावंला. म्होण आतां मेळ्ळें कितें ?.. आगो हराम जात, उदक तापयलें  तूवें ?"

कुंञुपात्तुम्मान उदक तापोवन, दवरलें आसतल्ले. तें  जाप दितेल्लें:

"उदक केन्ना सावन तापोवन घाल्लां, गे उम्मा !"

हून उदक ना जाल्यार उम्मा न्हांवचना. आदीं धनदोलत आशिल्या काळांत न्हाण केन्ना हून उदकांत जातालें. ही संवय आशिल्यान कुंञुपात्तुम्मा उम्मा खातीर केन्ना उदक तापोवन दवरता. पुण उम्मा हातूंय दोश सोदून काडता. एकच हुनसाण  चड. ना जाल्यार हुनसाण उणें. न्हाण जातेर उम्माक न्हेसूंक धुल्लें आंगवाले जाय. साबार दूध आनी सक्कर घाल्लेलें धाट धाट च्या पीवंका आनी तूप लावन तयार केल्लेली धाट तांदळाची रोटी जाय. बाप्पाले, उम्माले आनी आपणाले आंगवाले सगट कुंञुपात्तुम्मा सांजे उंबळून ओळनेचेर घालतल्लें. सकाळी न्हांवन पावताना उम्माले आंगवालें काडून तें उम्माक न्हेसूंक दितेलें. मागीर च्या आनी खाण... हांचे विशीं सांगूक गेल्यार.. खाजूरीगोड घाल्ले फुटें च्या आसतलें. गजूरीगोड घालनातुले मीठ घालनु च्या  पीवंपाक कुंञुपात्तुम्मा आतां सिकला उम्माक जाल्यार हें आंवडेवंक ना  "आगो हराम जात, तूं जल्माक आयलें आनी... !" अशी म्होणून वेगळे च्या मेळूक नाशिल्यान कुंञुपात्तुम्मान दिल्लें च्या उम्मा ओडून पितेली. फुडें फुडें च्या घालनु दिल्लें मातेचें कप सकल मारनु बेताली. दर दीस मातेचें कप घेवपाक दुडु नाका व्हय ? बाप्पान एक दीस म्हळ्ळें:

"आनी तिका करटांत दिल्लार पुरो गो"*

---

*करटे काडप म्हळयार भीक मागप

तेदुस उम्मा व्हड व्हडान रडली. उम्मान म्हळें:

"रे मय्यदीन, रे आंगवणेच्यानों, आयकताय तुमी? मुत्तुनबी, आयकता तूं? आनामक्काराला अपुरबायेचा धुवेक केरटांत दिल्लार पुरो म्हण्टाय!"

ह्या खातीरीय उम्मा पाप कुंञुपात्तुम्माक सोवो मारतली.

"तूं दुर्भागी गो, तुजो तो काळो तिबो अभागी!"

ताजा पोल्यार आशिल्लो तो काळो तिबो चिवंटेवन काडून भायर उडोवंक कोणाच्यान जाता?

हें सगट आयकून बाप्पाले दोळे तांबडें जातले.बाप्पा रागार जाल्यार ल्हवूच उल्लो मारतलो:

"आगो कुंञुत्ताच्चुम्मा!"

ह्या उल्यांत एक शिटकावणी गुपित आसा. उम्मा ओगोच बसतली. बाप्पा भायर गेल्ले उपरांत उम्मा सुरु करतली:

"आगो हरामजात! रांडे.... ! पोटाच्ये.. ! तूं काळो सरपाचो घास घेतली! तुजी सावळी भायर देखली... सत्यानाश जाला!"

उम्मा अशी सगट उलयतली. जल्म दिल्ली आवय... हें आयकून वाटेवेल्यान वचपी भुरगें हुयेल मारतलें. तेन्ना कुंञुपात्तुम्मा म्हण्टेलें.

"उम्मा, एक संत उलय गे!"

"व्हडानूच उलयतली! आगो व्हडान उलोवंक माका 'लायसन' आसा, हा... !"

अशी एक दीस उम्मा बोवाळ मारताली. बाप्पा हें आयकत भितर आयलो. बाप्पान उम्माकडे ओगोच बसपाक म्हळ्ळें. पुण उम्मान ध्यान दिल्लेंना. बाप्पान दुसरीय म्हळ्ळें आनी दोळें तांबडें करनु तिडकेन उटावन उम्माला सामकी गेल्लो.

हे पळोवन उम्मा चाळेवन हांसली. उम्मान ताळान म्हळ्ळें:

"नुस्तेकार आटिमा आनामक्काराला अपुरबायेचा धुवेक भिसरायता व्हय!"

अशी म्हणून राबोवंचे फुडें वेगळी एक भिरांकूळ घडणूक घडली.

बाप्पान उजव्या हातान उम्माला गळयाक धल्लो. चिडप घट जाल्ले. उम्मान दोळे भायर काडले. दांत चाबून बाप्पान ल्हवू म्हळ्ळें:

"मर गो तूं... !"

बायल आनी घोव... बाप्पान एक भुरग्याक धरचें वरी उम्माक गळ्याक पकडून उबारली आनी सकल उडयली. उम्मालें दोनीय खाडावे पायानी काडून भायर उडयलें. उम्मा हालूंक जायनाशें पडली.

हें सगट इल्ले घडयां भितर घडलें. कुंञुपात्तुम्मा भियेवनु मोन्नेंच रावलें. प्रंपचांत घट काळखी भरल्या सारकें आनी आपण कांय एक लांब फोंडांत पडलां अशी ताका भोगलें... बाप्पान उम्माक मारनु घाल्या. कुंञुपात्तुम्माक जीब उबारूक शक्त ना. तें ओगीच रावून रडलें.

बाप्पान म्हळ्ळें:

"धूवे! रडूंनाका!"

कुंञुपात्तुम्माक एक लागेन रण्णे आयलें. तें रडूंनच रावलें. दुखान हड्डे भेतून वचें वरी घळून घळून रडलें. रबूल आलमीन! पुराय प्रपंचाचा राखणारा! आनी कितें कितें घडचें आसा?

पुराय घुसपागोंदळ जाल्ला। पालव दिवपाक कोण ना. एकसुरेंच जाल्ला. उम्मा मेल्ली बी जाल्यार..पुलीश बाप्पाक आतांच हातबेडी घालून व्हरतलें!

कुंञुपात्तुम्माक, आनी कोण ना. उम्मालें मडें...कोणेय येवनु न्हाणेवुंन नवें लुगटांत 'कफन' बान्दून 'सन्दूक' दवरनु आनी 'ला इलाह इल्लल्लाह! ला इलाह इल्लल्लाह' मंत्र म्हणून व्हावूंन व्हरतले आनी मसजिदाचा मशणांत पुरतल्लें. उपरांत?... कुंञुपात्तुम्मा एकसुरेंच! कार्यीच येवजूंक जायना. ताजा दोळ्यांत काळोख भरल्लो! तें व्हड व्हडान रडलें. या इल्लाही! देवा!

"बाप्पा! जाल्यारीय तूवें अशी केल्लें!"

"रें धूवे," बाप्पान म्हळळें: "तूं रडूंनाका भायर वचून बस."

कुंञुपात्तुम्माला कुडांत साकून देवन भायर जगलेर वचून थांगा एक खंब्याचेर हात मारन रावलें. तें परतून परतून रडलें. ताका इल्लें बी समाधान ना. तेन्ना ताका 'शज्रतुल मुन्तहा' हाजा विशीं याद आयलीं.

"शज्रतुल मुन्तहा" हो एक व्हडलो रूख. हो रूख सर्गांत आसा. ह्या व्हड रूखचा मूळांत साकून तीन न्हंयो व्हावंताय. सर्गांत साकून व्हावंचो न्हंयो नैयल, डेयग्रीस, युफ्रटीस. हें सगट सांगून कसलो उपेग? 'शज्रतुल मुन्तह' सारकें सोबीत इतिहास! येवजील्यार खोस भोगता. हेर धर्मांत आसाय आसल्यो काण्यों. लोक हांतू विश्वास दवरताय. रुखाचे पानाचेर प्राण्यांचे नांव बरोवन दवरलां. वारें मारता तेन्ना थोगडीं पानां निखळून पडतलीं. सकल पडल्याचेर जें नांव बरोवन आसा तो प्राणी मरतलो. थोगडीं पानां पिकून तांचों वेळ पावंतेर मात पडताय. थोगडीं तरनी आसतानाच पडताय. उम्माले नांव बरयलें पान... अशी ताणे येवजिल्ले तेन्ना अचकित भितर साकून उम्मालो उल्लो आयलो:

"रें अल्लाह!" उम्मा उल्लो मारता. "कोण ना माका! रें मयद्दीन माका कोण ना!"

कुंञुपात्तुम्मालो दुख पुराय ना जालो. ताका दिसलें.

तुफान मारलें, पुण पान पडूंक ना!

कुंञुपात्तुम्मा भितर गेल्ले. उम्मा उठून बसल्या! धुवेक मुखार देखलें तेन्ना उम्मा हड्डयार मारन रडूंक लागली.

"उम्मा ओगी बेस गे!" अशी म्हणून कुंञुपात्तुम्मा तिजा लागी सरलें.

तेन्ना उम्मान पदां गायतावरीच म्हळळें.

"पोसय गो पोसय!
पोसय रे मयद्दीन
मुत्तुनबी पोसय
पोसय गो पोसय!"

मुत्तुनबी म्हळयार प्रवाचक मुहमद नबी.

खंय पोसून दिवंका म्होण कुंञुपात्तुम्माक समजलेना. तांणे उम्माकडे विचारलें.

''खंय गे उम्मा पोसोवंका ?''

उम्मा पयलेचे वरी म्हणूक लागली:

''गळ्यार... हाताक...पायाक.... !''

''दूर सर गो धूवे तूं'' बाप्पान कुंञुपात्तुम्माकडे म्हळ्ळें आनी उम्माचें लागी वचून बसून तिका पोसोवंक सूरुकेल्लें.

''कुंञुपात्तुम्मा, तूं जगलेर वचून बस'' बाप्पान म्हळ्ळें. तें भायर वचून बसलें.

भितर साकून उम्मा आनी बाप्पा उलायतालें आयकूंक येता. उम्मा विचारता:

''माका मारनु आनी वेगळी व्हरडीक करका व्हय ?''

हाका बाप्पान कसली जाप दिल्ली हो विशय कुंञुपात्तुम्मान ध्यानांत घेवपाचो ना. तें आंगणांत देवलें आनी हेवटेन तेवटेन चमकलें. इतल्यान व्हड आवाजान बाप्पा म्हण्टालो तांणे आयकलें.

''आमी सगट मेळनु आज तोबा पाठ करूंया.''

केल्लेले चुकेचे खातीर रबूल आलमीन धनियाकडे क्षम मागचें. आनी मुखार कसलीय चूक करचीना अशी निर्णय घेवप - हें बरें कार्य. पुण त्या घरांत तोबा नाशिल्लो. सगट मुसलमानांचा घरांत तोबा आसतलो. तो अरब भाशेंत बरयला. जाल्यार मुसलियारांनी हो अरब-मलयाळम भाशेंत लागेन छापलो आसा. खंचाय घरांत सागून बाप्पा हो घेवन हाडतलो.

कुंञुपात्तुम्मा आंगणांत भोवंतालें. उम्मा आनी बाप्पा दाराकडे आयलीं. उम्मा म्हण्टाली:

''तेल, चोळपाचें तेल, शाबू हें सगट जाय!''

बाप्पान लोखटो हालयलो आनी कुंञुपात्तुम्माकडे म्हळ्ळें:

''तूं उम्माक न्हावूंक उदक तापोवनु दवर गो धुवे''

कुंञुपात्तुम्माकडे अशी सांगून बाप्पा भायर देवून गेल्लो.

कुंञुपात्तुम्मा आयदनांत उदक तापयतालें. तेन्ना बाप्पा पावलो. हातांत तेल , चोळपाचें तेल आनी शाबु बी आशिल्लें. उम्मान तेल आनी चोळपाचें तेल आंगाक सारेवंनु न्हावंपाक आरंभिल्लें. बाप्पा तेन्ना भायर देवन गेल्लो. कुंञुपात्तुम्मान विचारलें:

''उम्मा गे, हांव वचून न्हावन येता ?''

उम्मान ताका मान्यताय दिल्ली. तुवालो आनी न्हाण जाल्ले उपरांत परतेवूंक आशिल्लें वस्त्र बी काडून तें देवलें. पाळें आनी दोरी बी हातांत घेतली.

ह्या दिसा ताजा जीवितांत एक नवो अध्याय सुरु जाता, कुंञुपात्तुम्मा हें नेणा. उम्मान म्हळ्ळें:

''चड वेळ कांय काडूं नज, आयकलें गो तूवें ?''

तांणे जाप दिल्ली.

''ना, हांव उगी पावतलें!''



तें चल्लें. ह्या वेळार तें येवजिताले. आतां तुफान मारलो आनी पान सकल पडलें बी जाल्यार... कुंञुपात्तुम्मान प्रमाणिकपणान मागणी केल्लेः

"रे रबूल-आलमीन  धनिया! तुफान मारूं. पुण आमचें कोणाचेंय पान पडूं न्हयें!"



# 6

# एक सवण्याचें रण्णें

आंगणांत देवलें तेन्नाच कुंञुपात्तुम्मान एक सवण्याचें रण्णें आयकलें. चमकून इल्लें मुखार पावलें इतल्यान तीं ताजा नदरेंत मेळ्ळीं. दोन सवणी एकमेकांकडे झगडताय. तांतुलें एक सवणें काकुळटायेन रडटा!

पुण तीं अशी झगडताय कित्याक? कुंञुपात्तुम्मान 'श्श'-'भुर्र'-'घुर्र' आसो आवाज केल्लो. तेन्ना तीं उडून दूर गेल्लीं.

साळकाचे तळ्याचा बाजूवेल्यान शेजारचे घराकडे पावपी वाटेर माडाचे कुडके पातळावन बान्दलो पूल. हाजेर चडताना त्या दोन सवण्यांक दुसरीय पळेंलीं. चिंचेच्या खांध्यार बसून तीं झगडताय. फकत झगडें मात न्हय. तांतुलें एक सवणें रडटा. घोणी पकडून घेवन व्हरताना कुंकडाचें पील रडटा जशें ते मदत मागून रडटा. कुंञुपात्तुम्माक भारी दुख भोगलें. पाळें आनी दोरी जमिनीर उडेवंन तें तांचा कुशीक धावन पावलें:

''कित्याक झगडताय? ओगी रावाय!'' ताणें सवण्याकडे मागलें. पुण सवणीं कायींच आयकनाय. क्रुरपणान एक दृसर्याक चोंचेन मारता. सवणीं जाल्यार ल्हान आसाय. जाल्यारीय मोटो हावेसान झगडताय! मेकळेपणान वावरूंक जाय अशिल्लीं ही सुकणी अशी झगडताले कुंञुपात्तुम्मा पयलें पावट न्हय पळेंता. घोणी, कावळें आनी साळोरी अशी कांय सवणीं झगडतालें आनी एकमेकांक चोंचेन मारतालें हजा फुडें कितलेशें पावट ताणें पळेंला. हो घोव-बायलेचो झगडी व्हय? कुंकडां अशींच एकमेकाकडे झगडताना तांतुल्या कांय एकल्याक कोणेय दूर काडटलें! ना जाल्यार एक दुसर्याक खोचूंन मारतलें. कुंञुपात्तुम्मान दुसरीय म्हळ्ळें: ''सांगल्यार आयकना व्हय? ओगी राव! कित्याक ताका मारता?''

त्या झगड्यांत आतां एक चान्नो बी भाग घेता दिसता. तो त्या चिंचे खांध्यार बसून 'दुस दुस' हो आवाज दिवनु अशी झगडूं नाका म्होण मागतालो.

कुंञुपात्तुम्मान चान्नेकडे म्हळ्ळें:

''हीं कोण सांगल्यार आयकनाय!''

सुकण्यांचा कार्यांत हेरानीं लुडबुड करूं न्हय म्होण एक मेस्त ह्या वेळार उपदेस दितालो. मागीर तो उडून वचून तांबडें रंगी फिताचो गुळो जशें जावन माडार बसुन 'टुक-टुक' आवाज दिवनु माडार चोंचेन मारतालो. सवण्यांनी आतां उडून वचून दुसर्या रुखाचेर बसून झेगडें दुसरीय सुरु केल्लें. तांतुल्लें मार घेतालें सवणे करुणपणान रडून सकलचा सुक्या पनांनी

भरल्ला व्हडल्या फोंडांत अकस्मात पडलें! दोनय हात विसकळावन भुंयेक अखेरेचें चुंबन करता मनसा वरीच दोनय पाखां विसकळावन पाप सवणें भुंयचेर उमते पडलें

ही घडणूक पळोवंन कुंञुपात्तुम्माक खूब दुख भोगलें. हड्डे दुखून तें म्हणटालें:

''पळे, तूंवे अशी कित्याक केल्लें?''

कुंञुपात्तुम्मा चमकून त्या फोंडाचा देगेर पावलें. सकल देवन पळोवंया म्हळ्यार खूब कष्ट जाता. तें मेल्लें व्हय? ताजा तोंडात एक तेंबो उदक घालनु दिल्यार तें उठावनु उडून वचाक पुरो. पुण ताजें नांव बरोवनु दवरिल्लें ''शज्रुताल मुनताह'' ह्या रुखाचें ल्हानशें पान आतां सकल पडलें आसत. तो रूख कितलो व्हडलो आसतलो? ताजेर कितलीं पानां आसतलीं! एक एक पान विंगड विंगड व्हडायेचे आसुयेत. मुयेचें नांव बरयलें पान पुण ल्हान आसतलें. ताजा पशीं व्हड आसुयेत सवण्याचें नांव बरयलें पान. हस्तीचें नांव बरयलें पान सबार व्हडलें आसतलें. कुंञुपात्तुम्मान सेमीन्द्र आजून पळोवूंक ना. देखून हस्ती पशीं व्हडले प्राणी म्हणचें देवमासो हाजा विशीं उडगास करूंक ना. कुंञुपात्तुम्माला आजाला हस्तीचें नांव बरोवन आशिल्लें पान सुकून त्या ''शज्रतुल मुन्तहा'' ह्या रुखाचे मुळांत पडलें आसतलें. तें पुण पिठो जावन सर्गाचा मातेंत भरसलें आसुयेत. सर्गांत रेंव आसा व्हय? कुंञुपात्तुम्माक खबर ना. कुंञुपात्तुम्मा पाटाच्या काण्ट्यावेला एक पारागीं नांवाचा झाडाचेर धरनु ल्हवूच सकल देवूंक सोदतालें. इतल्यान ताजा पांया पोदाची माती निखळून हातांत धरलें पारागीं झाड सयत पाटांत घडघडेवंन पडलें.

''म्हजा रबे!'' पाटांत पडताना तांणे अकस्मात म्हळ्ळें. तेन्ना कांयकडे सिरकोवंन ताजा देहाचेर घाय बी जालो. दाव्या हाताचा कोंपराचा सकलसून रगत व्हांवता. हें ताका कळूंक नाशिल्लें. ताका दुखता आनी तान भोगता. चड त्रास भोगलो. पडल्ले तेन्नाच ताणें त्या सवण्याक हातांत काडलें. आतां तें उठून बसलें. सवण्याक जीव ना अशी ताका दुबाव दिसलो. सवण्याक इल्लें उदक दिल्यार बरें जातलें. पुण उदक ना! तेन्ना मात आपणालें हातावेल्यान रगत व्हंवतालें ताजा दृष्टेंत पावलें.

''तूं कारण म्हजा हाताक घाय जालो पळें!'' अशी म्हणून कुंञुपात्तुम्मान दाव्या हाताचा बोटांनी सवण्याची चोंच ल्हवु ल्हवु विसकळावन उजव्या हाताचा बोटान एक थेंब रगत काडून ताजा तोंडांत घालून दिल्लें. आनी ताजीं पाखां सामकेंच विसकळायलीं. सवण्याक ल्हवुच घुवंडायलें. सवण्याले पोट पळोवन कुंञुपात्तुम्मान 'रबे, तूं बायल व्हय!' अशी आजापान म्हळ्ळें. ताजी पोटावेली साल इल्ली तांबडी आसा. पाखांचा मद्देंच दोन धवींच ल्हानशीं तांतीं ताजा दृष्टेंत मेळ्ळीं. आपणालो बाप्पा उम्मालो गळो चिरडावनु मारता तेन्नाचो घडणूक ताका उडगास आयलो. तांणे म्हळ्ळें:

''दादलो सवणें बायल सवण्याक मारूक सोदता कित्याक?''

सवण्याचो प्राण सोडून गेल्लोना हें कुंञुपात्तुम्माक समजलें. ताजे दोळें उक्तेच आसाय. दोळ्यांतलान ताजो प्राण पळोवंक शक्ता. तें ल्हवूच उठायलें. पाटाच्या कांठ्यार एक युवक उबो रावलोलो ताजा नदरेंत पडलें! ऊंचार चडूंक वाट नाशिल्यान कुंञुपात्तुम्माक इल्लो भिरांत भोगलो. पाटांत उदक ना. पुराय सुकून पडलां. पाटांतल्यान थोडे घडयानीं चमकल्यार भाटांत

पावंयेत. अशी वचप म्हळ्यार सम न्हय. कित्याक म्हळयार गांव वाटेवेल्यान परतून येवंक जाय. करप कितें ? अशी येवजून रावताना तांणे अचकित तो आवाज आयकलो. ताका भय दिसलेना जाल्यार लज्ज बी दिसली.

''सवण्याक प्राण आसा गो ?'' एक अपरिचित युवक पाटाच्या ऊंचार रावनु विचारतां.

कोण हो ? तें ओगी रावलें. आपणान आयकलेना अशी ताका दिसो. चें, लज बी दिसता. तें मान बागोवंन सकल पळेंत रावलें. सकल सुक्या पानाचेर थेंबून पडलेल्या कुंञुपात्तुम्माले रक्ताचा भोवंतणी शंबर आंकट्यानी मूंय एकट जावन रगत चिवंताय !

''ऊंचार येंवूंक जायना गो तुका ?''

खरें म्हळ्यार ऊंचार चडूक् कुंञुपात्तुम्माक त्रास जाता. पुण कितें सांगप ? कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें:

''जायना !''

''चडूक त्रास जाता व्हय ?''

''व्हय !''

'व्हय' अशी म्हळ्ळेंले सारकें जाले कोण जाणा ! लोकानीं आयकल्यार कितें येवजितले ? व्हरडिकेचें पिराय जाल्लेंले एक मुसलमान चडुं. अनवळखी युवकाकडे अशी उलयता !

हें येवजिताना कुंञुपात्तुम्माक अब्रु शेणल्या वरी दिसलें. इतल्यान ऊंचार साकून माती निखळूंन पडटाली तांणे पळेलें. तो सकल देवनु येता...

धवें लुंगी आनी धवो चोगो न्हसलोलो एक तरणाटो. दाव्या हातार भांगराचो घडयाळ आसा. केंस क्रोप मारलाय !

इतलेंच ताणे पळेलें. पारागीं झाडाचेर धरनु तो ल्हवु ल्हवु देवन येता. फुडेंच तें पाटांत पडल्या वरी तोवय बी पडतलो कांय ? रब, पावं तूं ! अशी तांणे मागणें केल्ली. कुंञुपात्तुम्मा भियेलें.

''जीणेंत आज मेरान तुजा सारक्या चडवाक हांवे पळोवूंक ना गो... नांव कितें गो, तुजा सवण्याचें ?'' खरसेंत खरसेंत त्या तरणाट्यान ताजेकडे विचारलें. ल्हानशी मीस. हांसपी दोळें आशिल्लो एकलो ! पुण आपणा सारकें गोरो न्हय. तांणे आपणालें नांव विचारलां अशें कुंञुपात्तुम्माक दिसलें. कुंञुपात्तुम्मान जाप दिल्ली.

''कुंञुपात्तुम्मा !''

''कुंञुपात्तुम्मा - व्हय गो ?''

''व्हय''

''बरें, त्या पानाचेर पडलां कुंञुपात्तुम्माले रगत न्हू ?''

''खरेंच !''

कुंञुपात्तुम्मान जाप दिल्ली. आतां ताका हाताक कोंपराचा सकल दुखता. तांणें हात घुवंडावन पळेलो. कांय फातर वा सिरपूट लागून सिरलां. रगत व्हावंता !

"पळेता हांव." त्या तरणाट्यान सांगलें. "हात उबारनु धर. रगत व्हांवप थांबून रावूं"

त्या तरणाट्यान आपणाला चोग्याचा बोलसांत साकून तुवालो काडलो. तीन कुडके केल्ले आनी तीनय कुडके एकामेकांक बान्दून लांब पटो केल्लो. बोलसांत साकून सिगरेटाचें पाकीट काडून तांतु साकून एक सिगरेट काडलें आनी ताजें कागत निखळावुन दुरापान तितलेंय आपणाला हातार घेतलें.

"हात सकल सोड गो" तांणे म्हळ्ळें

कुंञुपात्तुम्मान हात सकल केल्लो. तांणे ताजा हाताचेर घाय आशिलेंकडे दुरापान दवरून ल्हवू चिरडिल्लें. कुंञुपात्तुम्मालें छाती तागेल्या हड्डयाक आपडलें दिसता. पुण कुंञुपात्तुम्मान जें पळेलें तेन्ना ताका भारी दुख भोगलें. त्या तरणाट्याचा दाव्या हाताक किरांगोळेचे बोट ना! बोट कातरून भायर घाल्लें सारकें. हें कशीं कातरून गेल्ले?.. कुंञुपात्तुम्मान पुण विचारलें ना.

"दुखता गो, तुका?"

तो विचारतालो.

"ना!"

"इल्ले तरी ना व्हय?"

"इल्लें"

"सोड....विसर गो. हात तिंबोवूं न्हय, जाणा! दोन तीन दिसांनी घाय पुरा सुकून करपतलो" अशी सांगून त्या तरणाट्यान घायावेल्यान पटो बान्दलो. मागीर एक सिगरट काडून उजो पेटोवन ओडलें आनी हांसत कुंञुपात्तुम्माकडे विचारलें.

"कुंञुपात्तुम्मा, तूं ऊंचार चडतले कशीं?"

कुंञुपात्तुम्माक पुण उपाय कायींच दिसूंक नाशिल्लो. जालारूय ताका भिरांकुळ जावो भय जावो दिसूंक नाशिल्लें. थंडी आसताना उज्जा लागी बसलें वरी... कित्याक कोण जाणा कुंञुपात्तुम्माक अशी भोगलें.

"दाखय गो तुजा सवण्याक" कुंञुपात्तुम्मान आपणालो हात विसकळायलो. तेन्ना हातांत सुरक्षित आसलें सवणें उपकार व मोग प्रकटांवचें भाशेन कांय एक ल्हवु आवाज भायर सोडून हातांत सकून वेगीन उडूंन गेल्लें!

"कुंञुपात्तुम्मा तुका उडूंक जाता व्हय?"

"ना"

"जाल्यार यो, आमका पाखां लावया" अशी सांगून त्या तरणाट्याान कुंञुपात्तुम्माला उजव्या हाताक पकडलें आनी ल्हवु ल्हवू ऊंचार चडलो. "भिवं नाका, चल" अशी तो म्हण्टालो. कुंञुपात्तुम्माक अजाप भोगलो. इतलें वेगीन आपणाक ऊंचार चडूक कशीं शकलें? ताका कांय समजलेना. एक वाटेन चोयल्यार हो आजापूच. ऊंचार पावलीं तेन्ना त्या तरणाट्यान म्हळ्ळें:

"जाल्यार तूं वच गो, कुंञुपात्तुम्मा" आनी हांसून उडकी मारनु तो पाटांतल्यान वेगीन चमकून गेल्लो.

कुंञुपात्तुम्माक आतां कांय एक सपनांत पडलें अशी भोगता. ताजो हर एक अणु कांय एक तराचो आनंद भोगता. भितर भरल्लें आनंद.

बालदी, दोरी आनी आपणालें आंगवाले काडून कुंञुपात्तुम्मा शेजारचा बांयचेकडे गेल्लें. न्हाण आरांभिल्लें फुडें तांणे थोडे मोगरी कळे तुंटेवनु काडले आनी एक पानांत एकटावन घेतले. मागीर खोमीस काडलो, तुवालो न्हेसलें आनी लुंगी निसरावन दवरलें. बान्दून दवरलो केंस निसरावन सोडलो. कुंञुपात्तुम्मान बालदी बायतु देवयलीं. बालदी उदकांत बुडल्लें तेन्ना ताका त्या तरणाट्या विशीं याद आयली ''हात थिंबोवक नज गो'' ताजीं उतरां बी याद आयलीं. अजाप व्हय! तेन्ना ताका लज्ज दिसली घडबडींत तांणे बालदी आनी दोरी बांयत सेडलीं. इतल्यान तो तरणाटो घराचे मागीलदार उक्तावन बांयचा सामकार चमकून येता! कुंञुपात्तुम्मान आंगवालें वेगीन ओडून काडून आपणाली छाती लिपयली आनी बागोवन थयींच बसलें.

''आरे! कुंञुपात्तुम्मा, तूं न्हातां... ?'' तो विचारतालो. ''माका कळूक नाशिल्लें. माका इल्लें उदक जाय. आताच वचूं. एक ग्लास उदक..''

कुंञुपात्तुम्मान ल्हवूच सांगलें.

''बालदी आनी दोरी बांयत सेणलीं!''

''कितें? बालदी आनी दोरी?''

''बांयत सेणलीं!''

तेन्ना तो तरणाटो हांसलो आनी बांयत चोयले.

''आनी आतां न्हावप कशीं?'' तांणे विचारलें, कुंञुपात्तुम्मान जाप दिल्लीना. बालदी आनी दोरी नातिल्लें घरांत गेल्यार उम्मा सोवे मारतली!

त्या तरणाट्यान आपणाली लुंगी सारकेंच बान्दलें आनी बांयचा पावंड्यावेल्यान सकल देवनु बालदी आनी दोरी घेवन ऊंचार आयलो. तांणें एक आयदन हाडलें आनी उदक घेवन परतून वताना म्हळ्ळें:

''बरें! कुंञुपात्तुम्मा, तूं न्हावंन काड गो, हात तिंबोवूं न्हय.. याद आसा?''

तो तरणाटो घरांत गेल्लो. आनी तांणे दार दांपलें. कुंञुपात्तुम्मान खोमीस घाल्लो आनी तें लुंगी न्हसलें. बालदी आनी दोरी हातांत घेवनु तें आपणाला घराकडे चल्लें. घराकडे वचून आंगार उदक रेकोवंन कुंञुपात्तुम्मा न्हाल्लें. त्या तरणाट्या विशीं ताका रोकडींच याद येता. लजेन कोण जाणा आपणालें देह चुरचुरता. हो युवक कोण? त्या घरांत कशीं पावलो?

तेदूस राती कुंञुपात्तुम्माक खावूंकय नाका पिवूंकय नाका. उम्मान ताजेकडे खावंपाक म्हळ्ळें तेन्ना तांणे जाप दिल्ली:

''माका नाका!''

बाप्पान विचरलें तेन्ना बी तांणे म्हळ्ळें:

''म्हजा हड्यांत दूख!''

राती सगटांनी मेळनु तोबा प्रार्थना पाठ करता वेळार बी कुंञुपात्तुम्मा त्या तरणाट्या विशीं येवजितालें. तोबा पाठ करूक बसून आसतनाच साबार रात जाली. फातरेला वातीचा

मुखार बसून बाप्पा तोबा पाठ म्हणून दितालो: ''आख्या प्रपंचाक सृष्टी केल्लेल्या सगट प्राणंकय राखणार म्होण अशिल्या बिना रूप आसल्या दयाळाकडे मध्य राती बसून हें तीन प्राण्यों प्रार्थना पावंताय''. बाप्पान म्होण दिल्लेंले कुंञुपात्तुम्मा आनी उम्मा भक्तेंन म्हण्टाय एक एक पद आप आपणाला आवाजान तीग जाणां पाढ करताय.

बाप्पान भक्तेन आरांभिल्लें:

''आमचा धनिया... आमी सगट तुजकडे क्षमा मागताय धनिया. सगट ल्हान ल्हान चूक, व्हडलें व्हडलें चूक, जाणार केल्लें चूक, नेणार केल्लें चूक, हांचें खातीर भयेन 'तोबा' म्हण्टाय धनिया. मुखार आमी चूक करूंना. मनांक बेजार करपी काळ इबलीसाचा पिडांत साकून राख धनिया. आखेरेंक सगटांकय फिरदौस नांवाचा सर्गांत भितेर आपोवुन तुवें लाक आयुश आनी नबी हांचीं लग्न आमचा दोनीय दोळयांनी पळेवूंक आनी तांतु भाग घेवंपाक मदत करका धनिया! 'आमेन' अशी म्हणून प्रार्थना सोंपयली. त्या उपरांत एद्दे दिस उम्मान गोंदळ कांय केल्लो ना. ''राकून राकून मेळ्ळेली धूव'' अशी कुंञुपात्तुम्मा विशीं काकुळटायेन उम्मा म्हण्टाली. ही परिस्थिती चड दीस उरल्ली ना. गोंदळ परतून आरांभिल्लो. सोवे आनी झगडें सदां. बाप्पा विशीं वायट उतरां उल्लोवप, सोवें मारप. बाप्पाक खुबळावक म्हणून कुंञुपात्तुम्माक गाळी मारतली. कुंञुपात्तुम्मान जाप कसलीय दिल्यार उम्मा मागीर सोवे आरांभितल्ली.

''ह्या कारणान गो तुका व्हरूंक कोण येनाय! बसून बसून बुरो दरता. कित्याक कळता? तूं अभागी. म्हजी व्हरडीक जाली चवदा वर्स पिराय आसतना. आतां तुजी पिराय कितें जाणा तूं? बावीस! बावीस वर्सां.''

बाप्पा तेन्ना म्हण्टोलो:

''तुका ओगो बसूक जाता - कांय ना? अल्लाह हांची दया आसल्यार ताजी व्हरडीक अंदु वर्साच चलतली. हांव चेड्याक सोदून आसा!''

''व्हय, हाजी व्हरडीक आतांच जातली!''

कुंञुपात्तुम्माक व्हरूंक कोण पावंचना - हें उम्मालो मत:

''येतलो, कितें देखून येतलो?''

कायींच ना! दिवंपाक कितेंच आसा? भांगार आसा? आंगवाले आसा? कांय आसा?

''येतलो, कोणय तरी येतलो!''

पुण कोण येतलो? हड्डे दुखोवपी वासपूस. जाल्यार, कोणेय आयल्यार कोणाक कितें उपेग? घरांत समाधान म्हळयार इल्ले तरी ना. केन्ना झगडें, सोवें; सिराप पडल्या वरी. उम्माक सगट कार्याकय आपणाले मत मात उलोवंका. उम्मालो विचार कितें म्हळयार आपण नेणता गावांत कायींच चलूंक न्हय! पुण उम्मालो उपदेश घेवपाक कोण ना. उम्मा थंय बसून सगटांक गाळी मारतली. रस्तावेल्यान वचपी पोरां उम्माचेर फकाणां मारतले. मागीर बाप्पान तांचाकडे झगडूंक वचका. ना तर उम्मा त्या पोरण्या खाडाव्याचेर चडून भायर वतली आनी तांच्या बाप्पा, आजो, पणजो सगटाचेंय नांवा घेवन गाळी मारतली. कितेंय उल्लोवंपाक उम्माक 'लायसन' आसा न्हय? मसजिदांत कारभार चलोवपा खातीर उम्माक वांटो घेवका! मसजिदांतलें पुरोहित

व 'मुक्री' हांका कामांत साकून भायर सोडका जाल्यार उम्मालो अनुवाद घेवंका! पुण अनुवाद घेवपाक कोण येता? उम्मा बसून आपणालो नष्ट जाल्लो प्रताप हाचें विशीं येवजून सगटांक गाळी मारतली.

बाप्पा म्हण्टोलो:

"तुका ओगो बसूंक जाता, कांय ना?"

"बसना जाल्यार नुस्तेकार अटिमा नाकांत ओडून चडयतलो व्हय?"

"आगो!" बाप्पालो आवाज जड जातलो आनी दोळे तांबडे जातले

कुंञुपात्तुम्मा बसून भयान थरथरेतलें. कितें घडूंक वता, कोण जाणा? कुंञुपात्तुम्मा सावकासायेन उल्लो मारतलें:

"बाप्पा!"

बाप्पा ताजेर दुखान नदर मारतलो. आनी कांय उलोवंनाशीं भायर देवून वतलो. घरांत समाधान नाका व्हय?

उम्मा आनी बाप्पा हांचें मद्दें दुसरीय झगडें सुरु जाल्लां. अशी जाता पुण कित्या खातीर? तें मोन्यांनी बसतलें आनी त्या तरनाट्या विशीं येवजितलें. हालींच त्या तरणाट्याक पळेवूंक मेळना. खंय गेल्लो कोण जाणा? खंय साकून तो आयलो? नांव कितें? जात कोण? ना कळ! जीवितांत मेळ्ळो एक बरो मनीस. तें मुखामळ. तो हांस. नष्ट जाल्लेंले ते बोट... कशीं कोण जाणा कातरून गेल्लेंले ताजे बोटा विशीं तें सदां येवजिता. शून्य जावन पडल्लेंलें तें घर. बांयचा लागी सदां फुल्लून रावपी मोगरी. मागीर त्या विसकळ जागयार आनी वेगळें कांय ना. करपून राविल्लें तण मात. त्या अनवळखी तरणाट्यान हाताक बान्दून दिल्लें लुगट कुंञुपात्तुम्मा मेकळून चोयलें. पुरा घाय आतां सुकून आसा!

पुराय घडणूक एक पुर्विल्ले चरित्रकथा अशी कुंञुपात्तुम्माक दिसली.

दीस एद्दे गेल्ले. तो जागो आनी घर कांय एक मनसान मोल्लाक घेतला ही खबर तांणे आयकली. पुण कोणे घेतलें हें ताका कळना! दोन-तीन दीस उपरांत जी खबर तांणे आयकली आनी त्या खातीर ताका दुख दिसलें. दूर कांयकडे रावपी एक अनवळखी मनसान तें घर घेतलां! हांगा वस्ती करपाक पावल्यांय तेग जाणां काफीर लोक. एक जाणटो दादलो, एक जाणटी बायल मागीर व्हडपणांचें एक ल्हान काफीर!

कुंञुपात्तुम्माक दुख भोगलें. कांय तराची निसहायता. तें अभागी! काळीज भरल्लें दुख सयत तांणे देवाकडे मागणी केल्ली. "रे, रबूल आलमीन!"

'अख्ख्या प्रपंचाचा राखणारा!' इतलेंच ताका सांगूक जाता. हुसको भरीत मनान तें अशींच रावतलें.

ताजो आग्रो कसलो? भाविश्य कोणाक कळता?



7

# चोर बुद्दू

एक दीस दनपार वेळार शेजारचें पत्रास ल्हान काफीर चेडूं सळका तळ्याचा कुशीक रावून साडी आनी ब्लावुस मेकळून जमिनीर दवरतालें कुंञुपात्तुम्मान पळेलें.

तें तरणाटें आतां बोडीस आनी घाघरो मात न्हेसून आसा! बाप रे! ब्लावुसाचा भितर बोडीस आनी साडीचा पोंदाक...बापरे! कुंञुंपात्तुम्मान आपणाला मनातूंच येवजिल्लें. अचानक ताका चुरचुरो दिसलो.

देव...रे, हें ल्हान काफीर तळयांत न्हावूंक वतां! जळु चाबतलें! रगत पुरा चिवूंन घेतल्लें. मरनु वतलें पापीण!

कुंञुपातुम्मा धावन पावलें. ताजो केंस निसरलो. जाल्यारूय तें धावन काफीर चेडवाचा कुशीक पावन थांबून रावलें.

"नावूं नाका... नावूं नाका" अशी म्हणून कुंञुपात्तुम्मा खरशेवन खरशेवन त्या तरणाट्या कुशीक पावलें.

"आरे बुद्दू! नावूं अशी म्हणू न्हय. न्हावूं नाका न्हावूं नाका अशी सारकेंच म्हण."

कुंञुपात्तुम्मान पुण कायीच जाप दिल्लेंना. अहंकारी! जाल्यार हाका 'जळु' चाबो आनी रगत व्हावूंन मरो. हो!'न्हावूं नाका न्हावूं नाका' अशी म्हणूक जाय व्हय! नावूं नाका नावूं नाका अशी म्हळयार जाता किर्ते? ताजें एक पत्रास! कुंञुपात्तुम्मान येवजील्लें. काफीर सगट अशींच आसत! पत्रास! ताका पोरणी याद आयली. आदीं तें भुरगें आसतना ताका शिंगरावन बाप्पान न्हंयचेंकडे न्हावपाक वरप आशिल्लें. तेन्ना न्हंयचेकडे येवपी काफीर लोक कुंञुपातुम्माकडे बऱ्या माये मोगान वावुरतालीं. हेवय तांचा सारकेंच उलयता. पुण..तांचा पशीं चड पत्रास म्होण दिसता. मासळेक पळोवंपाक म्होण कुंञुपात्तुम्मा तळ्या देगरे सरलें.

"बरें! कितलें सोबीत केंस!" तें पत्रास म्हण्टालें. "वाह! काळो तिबो... रुपेस्त गो तूं!" अशी म्हणून पत्रास चेडवान आपणालें ब्लावुस काडून घाल्लें. साडी व्हेडायली आनी कुंञुपात्तुम्माचा लागी येवनु रावलें. तांणे कुंञुपात्तुम्माकडे खोलायेन येवजिलें:

"आरी सुन्दरी! ह्या साळीक भरल्लेंल्या तळयांत न्हावचें खातीर लोकाचेर कांय आडमेळें बी आसा व्हय?"

कुंञुपात्तुम्मान जाप दिल्लो.

"म्हजें नांव 'सुनरी' अशी न्हय!"

''सुनरी!'' तें पात्रास हांसलें. ''आरी बुद्‌दू.. सुन्दरी अशी म्हणूक जाय. जावो तुजें नांव कितें?''

''कुंञुपात्तुम्मा!''

''आरे वा! बरें नांव! आसो, ह्या साळकाचा तळयांत स्नान केल्यार जाता कितें?''

''जळु चाबतलें!''

''बायल जळु कांय दादलो जळु?''

''घोव आनी बायल आशिल्लीं. एकल्यान माका घास मारल्लो! म्हजें रगत तितलेंय पीवंन घेतलें''. कुंञुपात्तुम्मा म्हण्टालें: ''म्हजें रगत पीवन, व्हाडलें त्या जळाक एक मसळेन गीळनु घेतलें! ह्या मासळेचा तळांत दिवड आनी कासव बी आसा!''

कुंञुपात्तुम्मान मागीर आपणाक जळान चाबिल्लें घडणूक विवरसून सांगली. जळु जांगेचेर चाबून लांबून पडिल्लो घडणूक कुंञुपात्तुम्मा सांगताना पत्रास चेडु भयेन थरथरल्ले आनी दोळे मोटे विसकळावन चोयताले. ''ब्ओ!'' अशें ल्हान हस्ती हुबळता वरी आवाज करनु पत्रास चेडवान म्हळ्ळे:

''हांव बी जाल्यार बोवाळ मारन लोकांक हांगा पावंयतलें आशिल्लें. आनी मागीर घुवळेवंनु पडटलें आशिल्लें!''

कुंञुपात्तुम्मा मागीर चिंचे पोंदाक चल्लें. एक पिकळ चींच पडल्या. तांणे ती हातांत काडली. सोल निसरायलें आनी थोडें काडून आपणाला तोडांत घाल्लें. पत्रासी कुंञुंपात्तुम्मा रावल्लेंकडे आयलें आनी ताजेंकडे विचारलें:

''कितें खाता गो तूं , चींच व्हय?''

''व्हय!'' तांणे जाप दिल्ली. पुण ताका दुबाव जालो चींच सगट बायलांक आवडतलीं कोण जाणा. जाल्यारूय तांणे विचारलें:

''जाय तुका?''

''एक ल्हानशो कुडको दी!'' अशी पत्रास चेडु सांगताना ताजा तोंडांत उदक भरनु आयलें हें कुञुपात्तुम्माक कळ्ळें! कुंञुपात्तुम्मान व्हडलोशो एक कुडको ताका दिल्लो. पत्रासीन तो घेवन खाल्लो. सदां भाशेन बायलो चींच खावचें रितीन न्हय. पुण दोळे गिड्‌डूंक ना. मुखामळाचेर कांय भाव ना! पत्रास काफिरान चींच खुंटी सयत गिळ्ळी!

हें पळेवन कुंञुपात्तुम्माक अजाप दिसलो. तांणे म्हळ्ळें:

''गिळूंक नज, जाणा!''

''गिळ्यार जाता कितें गो?''

''पोटांत पडूंन किरलेतली! व्हडलो रूख जातलो!''

पत्रासकार काफिरान म्हळ्ळें: ''म्हजा पोटांत फातोर घाल्यारिय जिरवण जाता व्हय! अशी जाता म्हजा पिरायेचे खातीर म्हण लोक सांगताय.''

कुंञुपात्तुम्मान ताका व्हडलोसो एक कुटुको लागेन दिल्लो आनी ताजेंकडे विचारलें:

''पिराय कितें आसा?''

''सत्तेरा''

''माका'' कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें ''उम्मा म्हण्टा बाविस म्होण''

''बाप्पा म्हण्टा कितें ?''

कुंञुपात्तुम्मा ओगो रावलें!

''आरे बुद्दू! उलोवंना कित्या ?''

''माका बुद्दू आपयता कित्याक ?''

''आरे बुद्दू आपयता अशी न्हय. माका बुद्दू म्होण उल्लो मारता कित्याक ? अशी म्हण गो. बुद्दू कित्याक म्हण्टाय जाणा तूं ? माकाच कळना! सगट बायलाकय चोर बुद्दू अशी उल्लो मारयेत. म्हजो 'इक्काका' माका चोर बुद्दू अशी उल्लो मारता जाणा.''

''इक्काका'' हें काफीर मुसलमानाचें सारकें आपणाला व्हडला भावाक इक्काका म्हण उल्लो मारता ? कुंञुपात्तुम्माक समजलेना.

''चोर बुद्दू हें नांव बायलाक पर्याय लाबता. मागीर गो म्हजो इक्काका माका 'लुट्टापी' अशिंय उल्लो मारता.''

''इक्काकाले नांव कितें ?''

''निसार अहमद!''

''निसार अहमद... आनी तुजें नांव कितें ?''

पत्रासकार चेडवान म्हळ्ळें:

''आयिशा!''

''तुमची जात कितें'' ?

साडि न्हसलेल्या त्या पत्रासकार चेडवान म्हळ्ळे: ''इसलाम!''

''रें, रबूल आलमीन!'' कुंञुपात्तुम्मान आजापान विचारलें: ''आमचें वरीय व्हय ?''

''न्हय; आमी अस्सल इसलाम व्हय!''

अस्सल इसलाम खंय! कान तोंपूक ना. आलखें बी घालूंक ना! जाल्यार कानपटीचेर दोन कुंडलां आसाय! साडी न्हेसला! ब्लावुस म्हणचो खोमीस घाल्ला. खोमिसाचा पोंदाक ल्हान एक रेस्माचो बोडीस म्हणचो वस्त्र बी आसा!

''नांव कितें म्हळ्ळें तूवें ?''

''आयिशा. आनी जाय जाल्यार आयिशा बीबी. ना जाल्यार बेगम आयिशा आशींय आपोवंयेत. काळेजांत माका आयिशा बीबी अशें उल्लो मारताय. घरांत म्हजें उम्मा आनी बाप्पा आयिशा म्होण उळदीताय. हांवें म्हळ्ळें न्हूं तुजेकडे म्हजो 'इक्काका' माका उल्लो मारता 'लुट्टापी' अशें. थोगडया वेळार 'इक्काका' माका चोर बुद्दू अशी उळदीता''.

आयिशा - मुहमद नबी हांचीं घरकन्नीचें नांव. रें रब!

कुंञुपात्तुम्मा अजापांत पडलें. हीं लोक कसलें इसलाम आसाय? कुंञुपात्तुम्मान विचारलें:

''तो तोंडाचेर मीस नाशिल्लो आनी माथार केंस नाशिल्लो दादलो मनीस कोण तुजो ?''

आयिशान जाप दिल्ली, पुण कुंञुपात्तुमाचेर फकाणां मारता सारकेंच:

"तो म्हजो बाप्पा... आनी ती साडी न्हेसल्लेंली बायल मनीस आसा न्हू? ती म्हजी उम्मा..."

आयिशान कुंञुपात्तुम्माकडे विचारलें:

"तो, लांब देहाचो मनीस तुजो बाप्पा व्हय?"

"व्हय!"

"मागीर... दीस-रात करें...करें.. हो आवाज करपी ती बायल.. ?"

"म्हजी उम्मा!"

आयिशान विचारलें: "अशी कित्याक व्हड व्हडान उलेयतां? शेजाचार्यांक न्हीद बी मेळना जाणा! मुसलमान बायलानी अशी बोवाळ घालप म्हळयार सम दिसता?"

कुंञुपात्तुम्मा ओगी रावलें

आयिशान मागीर विचारलें: "तुजी उम्मा आमचा घराचें सामकी आसल्या उदक नातिल्या ल्हान पाटेंत परसाकडे बसता कित्याक?"

"ते म्हळयार, रातरी आमी गांववाटेर परसाकडे बसताय. दिसा परसाकडे वचका म्होण दिसल्यार पाटेकडे वताय!"

"तें बरें!" लोकांक चमकुपाक आसल्या रस्ताचेर परसाकडे बसप म्हळ्यार सम? ह्या गांवचें सगट लोक अशी रस्ताचेर परसाकडे बसता व्हय... ?"

कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें:

"तें खरें!"

"घरांत संडास बान्दल्यार जायना?"

कुंञुपात्तुम्मान जाप दीवूंक ना.

आयिशान म्हळ्ळे: "मागीर... लातिरी अशी म्हणू न्हय जाणा तूं? राती अशी म्हण"

कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें: 'लातिरी"

"हो, लातिरी न्हय. राती म्हण"

"राती" अशें सारकें उचार केल्लें उपरांत कुंञुपात्तुम्मान विचारलों:

"तुचे गार खंय?"

"तुजे घर खंय अशी विचार, समजलें तुका? बरें, तूवें अशी विचारलें म्हण आता येवजीवंया. म्हजो जाप कितें आसतलो? खरें सांगचें न्हू? आमका आपणाले म्हणूंक घर ना. शारांत एक घर आसा. पुण आमी घाणाक घेतल्लेलें. आमी थांगा तरा तरांची झाडा आनी रूख रोयल्याय. आंबो, पेर, सापोटा, जायफळ,जांब, मोगरें, गुलाब अशी जायतें फळांची झाडं आनी जायतें फुल्लाचें झाडां, रूख रोपें आनी वालियो.

उपरांत तांणे आपणाला घरा विशींय सांगूक आरांभिल्लें: "नळो पातळायल्लेलें एक दोन माळयेंचें घर. ह्या घराचा चारिय भागानी हळदुवी साय सारयल्लेलो वणत आसा. घराचो दारवाट्याक नीळी साय. घराचा एक एक कुडांत विजाचे दीवें. मागीर आमका रेडियो बी

आसा-''

''रेडियो म्हळ्यार कितें ?'' कुंञुपात्तुम्मान विचारलें. बाकी सगट ताका समजलें. चिट्टिल्यार उजवाडपी 'एलटिकाचें बळ्ब' तांणे हाजा फुडें पळेल्लें आसा. पुण ही रेडयो कितें म्हणून ताका समजलेना.

आयिशान म्हळ्ळें:

''ही एक पेट तांतुल्यान वेग-वेगळें राजातले गीत आनी खबर आयकूंक मेळता''

''माक्का हांगाचें खबर बी आयकूंक मेळता व्हय ?''

आयिशान सांगलें: ''अरब, तुर्की, इरान, आफगानिस्तान, रूस, आफ्रिका, मद्रास, जर्मनि, अमेरिका, सिंगपूर, दिल्ली, कराची, लाहोर, मैसूर, इंगलांड, केयरो, आस्ट्रेलिया, कलकता, सिलोण - मात न्हय संवसाराचा पुरा थळावेलो खबर हांतुसून आयकूंक मेळतां.''

हे कितें म्होण कुंञुपात्तुम्माक आनीकय समजलेना. कितें जाल्यारीय ह्या चडवाक पत्रास चड. कुंञुपात्तुम्मान आगळो एक सवाल विचारलो.

''तुमचा घराकडे चिंचे रूख आसा कांय ?''

''ना, कित्या ?'' चींच आसूंक जायींच. कुंञुपात्तुम्मान विचारलें: ''तुमका हस्ती आसीली ?''

''ना !''

कुंञुपात्तुम्मान अभिमान सयत म्हळ्ळें:

''म्हजा आजाक एकी हस्ती आशिल्ली.. सुळ्याची एक व्हडली हस्ती !''

आयिशान्न अभिमान सयत म्हळ्ळें:

''म्हजा आजाक एक बैलगाडी आशिल्ली. ताजेर तो गिराक्या खातीर म्हाल आनी येरादार करतालो. आंगड्यांत आनी घरांत पावोवनु दितालो. अशी तांणे म्हजा बाप्पाक एम.ए. मेरेंन सिकयलो... बरें, आतां सांग तुमचा त्या व्हडली हस्तेक जालें कितें ?''

''ती मेल्ली...न्हय ती अंतरलीं.'' मुसलमानांची हस्ती न्हू ? 'अंतरली' ना जाल्यार 'वायट पडलीं' अशी म्हणूक जाय. मुसलमान मरताना 'अंतरलो' अशी म्हण्येंत. पुण काफीर जाल्यार 'मेल्लो' अशी जाय म्हणूंक.

''ती मेल्ली व्हय ?''

कुंञुपात्तुम्मान जाप दिल्ली:

''अंतरली ! तीणे चार काफीरांक मारलें''!

''फकत चार जाणांक ? मागीर कितलें मुसलमानांक मारलें ?''

''कोणाक मारूं ना. कित्याक जाणा, ती अस्सल हस्ती न्हू ?''

''ही खबर खरें जाल्यार..'' आयिशान हांसत म्हळ्ळें: ''सर्गांत पावंतेर त्या सूळ्या हस्तेक फातोर, रेंव, मोती, माणीक हाजान बान्दलेली चार माळ्यो बी मेळतल्यों व्हय गो ?''

कित्याक म्हळ्यार भुंयचेर जें पुण्य करणी करताय सर्गार पावताना तांका शुशेग आनी तरा तरा सुविधां फाव जातलीं. काफीरांक मरप एक पुण्य करणी आसा !

कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें.

"आमका जायतें धन-दौलत आशिल्लें!"

"मागीर खंय गेल्लें सगट?"

"गेल्लें" हे मात ताका कळटा.

आयिशान विचारलें:

"बाप्पाक काम कसलें?"

"व्यापार"

"कसलो व्यापार?"

"हाजो..ताजो"

"नांव कितें बाप्पाचें?"

"वट्टनटिमा"

"आनी उम्मालें?"

"कुंञुत्ताच्चुम्मा"

आयिशान म्हळ्ळें: "म्हजो बाप्पा कालेजांत प्रोफेसर. नांव सैनुल आबदीन. उम्मालें नांव हाजिरा बीबी. इक्कालें नांव निसार अहमद. तो कवि बी आसा. ह्या धर्तरेर जियेता आनी कविता बरयता. ताजी कविता रूख, रूखावळ, फूल, आनी फळ जावन रूपांतार घेता. आयिशाक निसार अहमद हाचें विशीं चड सांगूक आसा. ताजें उलोवप चालू आसलें. निसार अहमद ह्या प्रपंचाक, धर्तरेक आनी धर्तरेर उरचें आनी उरूंक आसलें सगटाचेरीय मोग राखता. तो निवळ, योग्य आनी बरो मनीस.

कुंञुपात्तुम्माक हांतु कांय खोशी दिसलेना. खरें म्हळ्यार तांची नांवा सैनूल आबदीन, निसार अहमद... हीं नांवा ताणें आज मेरान आयकूंक नाशिल्लीं. मक्कार, आटिमा, अन्तु, कुट्टी, कुट्टियाली, बावा, कुञुलु, पक्करुकुञु, मेयतीन, अवरान, परीद, परीकुट्टी, बावाकण्णु, सेयदाली, चेक्कु, मयदु, बिरान, कुञीकोच्चु, अदील...अशें सगट नावां ताणे पयलें आयकलें आसा. पुण,निसार अहमद..! तांबडें रगत जशें दोळें. विण्णुन धवरल्लेली मीस आनी छाती भर काळी रोम आशिल्ला, थोर गळो आनी लांब थोर मनसालें रूप ताका मनांत दिसलें. ताणे विचारलें:

"तुट्टापी तुजो इक्काका केन्ना पावतलो?"

"फाल्या, ना जाल्यार परां. आनी एक सांगता, तुजा उम्माकडे आतांच सांग कितें म्हळ्यार आमचा नांकाचें खाल येवनु परसाकडे बसूं न्हय अशें. घाण मारतली न्हय? इक्काका आयल्यार झगडें बी करतलो."

कुंञुपात्तुम्मा भियेल्ली. उम्माकडे हें सांगप कशीं? कशीं सांगनाशें रावतलें? कुंञुपात्तुम्मान मनांतुच प्रार्थना केल्ली: "अलाह, तुट्टापिलो इक्काका हांगा येवूं नज. आयल्यार झगडें जातलें!"

तो एक भयानक मनीस!

आयिशान विचारलें:

''आक्का, तुजें लग्न जाले व्हय ?'' कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें: ''म्हजी व्हरडीक जाली ना. तुजी जाली तुट्टापी ?''

''बुद्दू !.. लुट्टापी अशें सारकें म्हण. म्हजें लग्न जाल्लेना. हांव बी.ए. पास जाल्ले उपरांत मात म्हजें लग्न आसतलें. त्या महान्ताक लायक चेडु आजून मेळूंक ना. सोयरीक जायत्यो आयल्यो. हांवें फुडे म्हळ्ळें न्हू ? तो मोटो पत्रासकार. चेल्लेक मात न्हय ताजें घर बी मनमे खळे आसूंक जाय. एक पावट तो एक चेडवाक पळोवंपाक गेल्लो. चेडु बि.ए. सिखील्लें.. कितें जाल्लें. पिवंपाक ताका मेळ्ळें उदकांक मासळेचो घाण मारताली. हजा पसूनूंच ती सोयरीक तुंटर्ली !''

कुंञुपात्तुम्मान विचारलें: ''तुट्टापी तुजो इक्काका नुस्ते खाता कांय ना ?''

''तो फकत शिवराचो. थोड्या वेळार मांस आनी मासळी बी खाता. हात आनी तोंड शाबू घासून धुता. मांस मासळेची वायट घाण घरांत नज हो ताजो हुक्कुम आसा. मुसलमान म्हळयार निवळ मनीस म्होण अर्थ आसा. हो ताजो विश्वास. मात न्हय, जें चलयेक तो लग्नाक सोदता ताका कांय गुण बी आसूंक जाय. तीं खाड मीस तासूंक कळताली आसूंक जाय. नाचपी जाय. गावपी जाय. चित्र बरोवंक आनी साहित्य रचनांत जाणविकाय आसूंक जाय. आंगवाले उंबडप, भुरग्यांक परिचरण करप हें सगट कळतल्ली आसूंक जाय. मागीर रांदपांत, म्हळयार बिरियाणी, सोयेपोळो, मांसारादय, तुप्पासीत, धाट भाकरी, इष्टू, सांबार, ओलओल, खतखते, तकाआंबट, भाजी, पायस अशी संवसारांतलें सगट तराचीं जेवणाचीं खाणाचीं वस्त करूंक कळका. मात न्हय, रोवंप, न्हंय बान्दप, माती व्हावंप, झाडाक, रोप्यांक जाय जाल्लेंले सारें तयार करप हेवय कळूंक जाय. अशी सगट गुण आशिल्ली चलयेक सोदून लग्न कर म्हणून ताका बाप्पान आनी उम्मान अनुवाद दिल्ला !''

इतलेंच आयकलें उपरांत निसार अहमद हो चडो भयाकृत अशी कुंञुपात्तुम्माक दिसलें. ताजेर राग बी दिसलो. आयिशाकडे बी राग दिसलो. 'म्हजा इक्काकान अशें म्हळ्ळें, म्हजा इक्काकान तशें म्हळ्ळें'... ताजो एक पत्रासकार इक्काका !

आयिशा म्हणटालें: ''म्हजो इक्काका जसो एक मनीस... आयकता तूं ? एक दीस राती इक्काका ओल्तेराचेर पडून पुस्तक वाचतालो. ताजो हात मेजेचें खावाताचा कोनसार दवरून आशिल्लो हांवे पापणीन पुण पळेवूंक नाशिल्लें. खावात हांवे अकस्मात धांपलें. जाल्यार कांय चिरडल्या वरी दिसलें. हांवे जें पळेलें तेन्ना माका घुवोळ आयली. पाप, इक्काकाले दाव्या हाताचें किरांगोळे बोट चिरडून आशिल्लें !''

कुंञुपात्तुम्मा कडकडेलें. मात न्हय ताजा तोंडाचेर धवसाण भरल्ली. तांणे विचारलें:

''मागीर कितें जाल्लें ?''

''इक्काका हाल्लो ना. मीस कातरची ती ल्हान कातर वेगीन हाडूंक इक्काकान म्हजकडे सांगलें. हांवे कातर हाडून दिल्ली. इक्काकान ताजानी आपणाले चिरडून लांबून पडल्लेंले बोट कातरून सोडल्लें !''

इतलेंच सांगून आयिशान विचारलें:

''बरें, हांव वता... तूं येता आमचा वस्तींत ?''

कुंञुपात्तुम्माक पुण कांय आयकूंक शक्त नाशिल्ली. तें थांगांच थांबून रावलें.

आयिशान परतून परतून विचारलें:

"येता व्हय?"

"खंय?"

"चोर बुद्दू, आमचा वस्तींत"

"हा, उम्माकडे सांगून येता"

ते घराकडे गेल्लें, आनी तांणे उम्माकडे विचारलें:

"उम्मा शेजारांत रावतलीं भुसलमान आसाय. हांव थंय वचून येता गे?"

"वच गो, हराम जात! मुसल्मान म्हण्टा! तीं सगट काफीर. जाणा तूं.. ?

"ना गे उम्मा" तांणे म्हळ्ळें: "तीं मुसलमान गे. पळें आयिशा चिंचेपोदाक रावलां."

उम्मा चोयली चिंचे पोंदाक साडी न्हेसिल्लें एक चेडू रावलां! कान तोंपलेना! उम्मान म्हळ्ळें:

"रें, मयदीन, रें बदरींन कोण म्हण्टा हें मुसलमान म्होण?"

"व्हय गे उम्मा. ल्हवूं उलय हांव एक वता तांचा घराकडे?"

"तूं आमचा घरांत साकून भायर गेल्यार, मागीर तूं म्हजी धूव न्हय जाणा. परतून येवूं नज! त्या वाटेनूंच वच!"

कुंञुपात्तुम्मा भायर देवून गेल्लें आनी तांणे आयिशाकडें सांगलें.

"हांव फाल्या येवूं"

"आज जाले कितें?"

कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें: "इल्लें काम आसा. उदक भरनु दवरचें आसा.. फाल्या हांव अचूक येन आनी पिकली चींच बी हाडूं!"

आयिशा गेल्लें.

तेदूस राती कुंञुपात्तुम्माक न्हीद आयलीच ना. आयिशालो इक्काका हांगा येवूं न्हय अशी तांणे अलाह हांचेकडे फुडें मागणी केल्लेली! जाल्यार आतां उलटा मागप कशीं?

आखेर तांणे मन दुखत प्रार्थना पावली:

"म्हजा अलाह, तुट्टाप्पिलो इक्काका...!"

●●●

८

# चोरी गवाय सांगचेंना

व्हडलें सुळ्यांची हस्तीचो धनि आशिल्ले आनामक्काराली अपुरबयेची धूव कुंञुत्ताच्चुम्मा रोखडींच सांगता:

"तीं मुसलमान न्हय! आनामक्काराली आपुरबायेची धूव हांव म्हण्टा – तीं मुसलमान न्हय!"

कुंञुपात्तुम्मा बाप्पाचें सामकार चोयतालें. बाप्पा ओगी रावलो.

उम्मा परतून उलयता: "क्यामत लागी पावला. हाजों नमुनो देखूं येता व्हय?"

संवसाराचो अंत जावपाचो वेळ जाला. हाजें उदाहरण आयिशा, ताजो बाप्पा आनी उम्मा!

"त्या बायल मनशेन केंसार फूल दवरलां. मुसलमानाक हें लायक व्हय?"

"त्या चेडवालो भेस चोयाय, केंसाचे दोन बाल करनु खांद्यावेलान छातीचेर सोडून घाल्याय!"

आयिशान आपणाला केंसाचेर तरा तरा कसरत दाखोवप आसा. तें एक पिश्या चेडूं. थोगडे वेळा तें धावंतले, उडक्यो मारतलें. थोगडे वेळा नाचतलें, गीत गायतलें. एक दीस साळकाचा तळ्या देगेर रावून तें दोळे धापूंन भक्तिन एक गीत गायतालें. तें अलाह हांचेकडे प्रार्थना पावंता अशी कुंञुपात्तुम्मान येवजील्लें. मागीर ताका दिसलें. 'बैत' ओवी जावंयेत ना जाल्यार 'केस' गीतां जावंयेत. कुंञुपात्तुम्माक कांय समजलेना. पुण दोनय हात उगलून 'आमीन' धरलें. गीत सोंपले उपरांत कुंञुपात्तुम्मान, आमीन उचारलें. आयिशा हांसलेना. पुण आपणाक खांकूक येता अशी दाखयतालें. जाल्यार तें हांसो लिपोवंक सोदता हें कुंञुपात्तुम्माक समजलें.

कुंञुपात्तुम्मान आयिशाकडे विचारलें:

"हें कितें, सांग?"

आयिशान जाप दिल्ली:

"म्हजेकडे कांय लिवंगूचें न्हय. माका कांय कळना. केन्ना तो महन्त पावता ताजेकडे तूं रोखडेंच विचार. ही गीत तांणे रचल्या. भास कसली हें कोणाक समजूंक ना. आमचें काळेजातल्या चेल्लीयांक सोबायात्रेंत गावन बोवाळ मारपा खातीर तांणे बरयलेली गीत ही. सोबायात्रेंत आमी सगटांनी ही गीत गायली."

"तुट्टापी तूवें गीत म्हळ्ळें तेन्ना हांवें 'आमीन' धरल्ली!"

"तें हांवे पळयलें!"

"आमीन धरली म्होण दोश बी आसा?"

"चोर बुद्दू, बरें नंतर दोश येवंक ना!"

"जाल्यार एक पावटी लागेन, म्हण; गीत सुन्दर आसा."

"जाल्यार भक्तिपणान बेस. मनांतलो विचार सगट विसर. मन निवळ आसो. आनी आतां ध्यान दी! झण्डे घेवन सोबायात्रेंत काळेजातल्यो चेल्लियों - म्हळ्यार आमीच - भव्यतायेन गावन एक एक पावल दवरून मुखार सरताय अशी येवजी!"

"येवजीलें"

"बरें, आतां आयक!" तांणे म्हणूक सुरवात केल्लो:

"हो...हो...हो...
खुतिनी हालिट्टा लित्तापो
सांचिनी बालिक्का लुट्टापी
हालित्ता माणिका लिंचल्लो
संकर बाहना तूलीपी.
हूंचिनी होलोत्त हुत्तालो
हांनत्त लक्किटि जिंबालो
हा...हा..हा..!
हो...हो...हो...!"*

आयिशान म्हळ्ळें:

"ओवी सामकें आसा कांय चूक जाली, माकाच कळना. कांय उतरां चूकल्याय बी आसत. अशी कित्येंच चूक आसल्यार तो आमकां रोखडेंच मारतलो!"

कुंञुपात्तुम्मान विचारलें:

"तुट्टापी तुजो इक्काका पुण हें जाणा जातलो कशीं?"

"जाणा जातलो कशीं म्हण्टा? बरें! तो पावता तेन्ना रोखडेंच माका उल्लो मारतलो- लुट्टापी! यो गो हांगा. ह्या लयनाचा भितर राव!" हांव त्या बोराच्या मद्दें सरनु रावतलें. इक्काका हुकुम दितलो: "बरें, आतां म्होण गीत! ना तर चीरनु दोन सहर्स कुडके करतलो. आनी दोन सहर्स सुकण्यांक उडोवंनु दितलो. ताजा उपरांत त्या पुराय सुकण्यांक इक्काका घूळो दवरनु मारतलो. आनी सगटांक भाजून खातोलो!"

कुंञुपात्तुम्मान विचारलें: "कातरून न्हू खावंका? देवाचें नांव घेवका आनी मागीर कातरून खावंपाक जाय न्हय?"

"आरी, बुद्दू?" आयिशान म्हळ्ळें: "म्हजा सारक्या बर्या चेडवाक घात केल्लो उपरांत जाय न्हू हें सगट करचें! 'मसहफ', चोरि करतल्यांक 'ओसु' हाजें उपेग कितें? पवित्र पुराण

---

*अर्थ नाशिल्ली उतरां. फकत फकाणां मारपा खातीर मात वावुरल्याय।

ग्रंथ कुराण चोरि करतल्यांक देहाची शुद्धी जाय?''

आयिशा अशी कसलें कसलें उलयतालें. थोगड्या वेळार कांय खबर पत्रां हाडून भिरांकुळ खबर वाचूंन कुंञुपात्तुम्माक कळयतालें. त्या कागताचेर भयांकृत घडणूक आसा अशी कुंञुपात्तुम्माक दिसो म्होण आयिशा अशी ताजा मुखार वाचतां. पत्राचेर तो भाग दाखोवन आयिशा ते खबर परतून परतून वाचतलें. कुंञुपात्तुम्माक ह्या विशीं अतभूद भोगतालें. आपणाक अतभूद दिसता अशी ते आयिशाकडे सांगतालें. आसल्या एक वेळार आयिशान विचारलें:

''तुका वाचूंक बरोवूंक शिकयलेंना कित्या? दुडु आशिल्लो मूं?''

आयिशा सांगता तें खरें. धाम-दुडु आशिल्लो. मुसलमान वाचूंक बरोवंक रोखडेंच शिकूंक जाय. कित्याक कांय उणाव नाशिल्लो. तेन्ना वाचूंक आनी बरोवंक आरांभिल्लें आसलें जाल्यार आज आयिशा पशीं चड जाणविकाय पावतलें आशिल्लें... सगट कार्याकय आतां आशिल्या पशी चड परिवर्तन पावंतलें आशिल्लें. बाप्पान आनी उम्मान अशी केल्लेना कित्या? बाप्पा आनी उम्मा कित्याक वाचूंक आनी बरोवंक शिकलेनाय? व्हडले हस्तेचो धनि आसलो आनामक्कार वाचूंक आनी बरोवंक शिकिल्लो व्हय? हीं निरक्षर पिळगी! त्या राती कुंञुपात्तुम्मान ह्या समस्या विशीं येवजील्लें. बाप्पान आनी उम्मान ताका वाचूंक आनी वरोवंक शिकोवंक ना कित्या? मांदरेचेर पडून त्या काळखांत तांणे ताजा बप्पाकडे विचारलें:

''बाप्पा...माका वाचूंक आनी बरोवंक सिकयलेंना कित्या?''

बाप्पान एक दीग उस्वास मात केल्लो. उम्मान म्हळ्ळें: ''बरोवंक आनी वाचूंक शिकोवंन तुका काफीर केल्लेना कित्याक म्हण तुका जाणा जावंका न्हू?''

बरोवंप आनी वाचप शिकल्यार, विद्या घेतल्यार मुसलमान जावनु वावरूक जायना! हें सत्य कांय? वाच! हें उतर आसा कुराणाचेर पयलेंच आयलेंले!

चिंतप नज! दुसरे दीस कुंञुपात्तुम्मान आपणालो संशय आयिशाकडे उक्तायलो. आयिशा पुण हांसलें! नेणारपणांचो हो चाल. नेणारपणां खंय खंय पावयता... नेणारपण व्हाडत आसा. ज्ञान व्हडता जशेंच. व्हडेल्यार पुण कितेंय व्हडतलें. जाय जाल्लेलें तशींच नाका जाल्लेंले बी. आयिशान म्हळ्ळें:

''पळें, मुसलमानाक जाणविकाय आसूंक जाय. गिन्यान नाशिल्लो मनीस मूर्ख आसा जाणा! मुसलमान मूर्ख व्हय?''

व्हय, मुसलमान मूर्ख गाढव कांय? अशी न्हय म्होण कुंञुपात्तुम्माक कळता. जाल्यारूय तांणे विचारलें:

''काफिरांकडे मुखामुख रावका की नाका?''

काफिरांकडे दुसमानकाय वावुरका!

''खरेंच'' आयिशान म्हळ्ळें. ''काफीर पायांनी चमकतना मुसलमानान लोकटो सकल लावन चलूक जाय! काफीरान न्हांवप आसा आनी दांत घासप आसा देखून मुसलमानान न्हावूंक नज, दांत घासूंक नज. काफीर खाता तोंडानी म्हणून मुसलमानान....''

"ओगी राव तुट्टापी!" कुंञुपात्तुम्मान परिभव सयत म्हळ्ळें: "तूं माका पिशें लायता व्हय?"

"आरी बुद्दू, चोर बुद्दू, अल्लाह आनी मुहमद्द नबी हांचा प्रमाणांत विरोध दवरप हें कांय सांगलेंना!"

कुंञुपात्तुम्मान विचारलें:

"आल्लाह हांणी आदीं निर्मिल्लें कोणाक?"

"माका कळना" आयिशान म्हळ्ळें: "मनसांत जाल्यार आदम नबी आनी हवा बीबी हांका."

"मुहमद्द नबी हांका न्हय?"

"अशी म्हळ्ळें कोणें? कुराणं हांचेर सांगला, आदम नबी हांका म्होण. हातूंच आमी विश्वास घेवपाक जाय. नकली खबर आनी नकली काणी हांचेर विश्वास दवरूं न्हय. अस्सल मुसलमान जावनु जियेंका. अस्सल मनीस जावंका. निवळ जाय. तंदुरस्ती जाय. जिणेंत सुन्दरताय सांबाळका. दुसऱ्यांक दुखोवंक न्हय. प्रातिघात आनी क्रुरताय विसरका. इमान सांबाळ्ूंक जाय. प्रपंचाचें रचणार अल्लाह हांचेर विश्वास दवरका. नबीचेर विश्वास जाय. मनसाक आत्मो आसा म्होण, मरणाचें उपरांत जीवित आसा म्होण, देवदूद आसाय म्होण... अशी साबार वास्तवां आसाय. आमी वायटपणांचें आड विरोध दवरपाक जाय. असलो सगट गुण वावुरपी मनसाक मुसलमान म्हण्टाय. इस्लाम म्हळ्यार काकुळटकायेचें धर्म. चोर बुद्दू, आनी तुका संशय बाकी उरला कांय?"

"तुट्टापी, मुसलमानाक फूल हराम व्हय?"

"आपडूं नज! करपून वतलें!चोर बुद्दू - फूल म्हळ्यार दोळे आनी नांक अशिल्यां खातीर आसा. मुसलमानाक फुल्लाचो वास घेवंयेत. मुसलमानाक माथार फूल माळयेत. आनी तुका संशय बाकी आसा जाल्यार तूं इक्काकाकडे विचार. तो सांगून दितल्लो तुका!"

पुण, जेन्ना निसार अहमद आयलो ताजो गळो कातरूक कुंञुपात्तुम्मालो बाप्पा कोयती काडून भायर सरलो. हें घडणुकेंक कारण उम्मा आशिल्ली.

निसार अहमद आयलो एक व्हडलें रान घेवन. हें सग खंय साकून हाडलें, कशीं हाडलें, कुंञुपात्तुम्माक खबर ना. चडय फळ जावंचें ल्हान रूख. आनी मस्त कवथें आशिल्लीं. वेळ जशें आशिल्लो तो जागो एकच एक दीसान एक रान जाल्लें. रूख, झाड, कवथें आनी रोंपें फातीन रोयल्याय.

त्या दिसा थांगा एक तराचो गोंदळूच आसल्लो. निसार अहमद ताजो बाप्पा आनी आयिशा सगट एक मेळनु करकर वोतांत अध्वान करतालीं. हें पळोवन कुंञुपात्तुम्माक अतभूद दिसलें.

"बेगीन यो गे, हें चोय!" कुंञुपात्तुम्मान उम्माक उल्लो मारलो. उम्मा आपणाला खाडाव्याचेर चडून 'कडो', 'कडो' अशी आवाज करनु येवन घराचा दरलांत रावली. सेजार्यागेर पळोवन तीणे म्हळ्ळें:

"ओ, थांगा सगटांक पिशें नंतन कितें?" अशी म्हणून तीं घरांत भितर परतून गेल्ली.

तांकां पिशें म्होण कुंञुपात्तुम्माक पुण दिसलेंच ना. ताका आश्चर्य भोगलें. भुंयचेर अध्वान करपी मुसलमानांक तांणे आजमेरान पळोवंक नाशिल्लें. मुसलमानाक सांगला व्यापार मात. हो ताजो विश्वाश. मागीर चिरप आनी भूंय उस्तप. जाय जाल्यार वावराडे करतलें. मुसलमान स्वता काम करतालें तें पयले पावट पळेता.

कुंञुपात्तुम्माक मनांत संकश्ट भोगलो. आपणालो जागो कसलोय उपेग नातील्लो पडला. रूख रुखावळ व माड बी दवरूक जातल्ले. जाल्यार मदत करपाक घरांत कोण ना. आपणाक एक भाव अशिल्लो जाल्यार! पुण ताजान कांय जायना.

निसार अहमद येतलो म्होण कुंञुपात्तुम्मान कांय तयारी केल्ली. आपणाला जागयार पडून अशिल्ले सुक्को पालो आनी कोयर झाडून एकडे करनु उजो लायलो. वासरेंचा दरलांत पडिल्लें मासळे खवळ झाडून दूर घाल्लें. घरां भितर जमीन झाडून पुसून निवळ केल्ली.घरा भायर ओळणेचेर लांबून पडल्लेलें बोंतर आंगवाले काडून लासून उडयलें. कुंञुपात्तुम्मा न्हावन धुल्लेंले आंगवालें न्हेसून तयार जाल्लें. हें सगट पळोवंन उम्मान विचारलें:

''कित्याक गो हो खवदल सगट?''

''हाताचो घाय सुकलो?'' कुंञुपात्तुम्माक मेळ्ळें तेन्ना निसार अहमदालो पयलेचो सवाल हो आसले.

''सुकलो'' कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें. जाल्यारीय आतांय ताका ती पोरणी घडणूक याद आसा! कुंञुपात्तुम्माक भारी खोशी भोगली. अचानक कुंञुपात्तुम्माक कांय प्रकाराचो हुसको आनी चुरचुरो बी भोगलो. हें ताका केन्ना सावन अनुभवले? निसार अहमद आयलो उपरांत कांय ताजा फुडें म्हण ताका याद येना. देखून निसार अहमदान हें उलयले केन्ना म्होण ताका उडगास ना. पुण कितें सांगलें हें ताका उडगास आसा. तांणे तेन्ना कितें केल्लें हेवंय ताका उडगास आसा.

निसार अहमदान कुंञुपातुम्माला घराकडे एक संडास बान्दून दिल्लें. बारा फूट लांबाय, चार फूट रूंदाय आनी एक अर्दो दादल्याली खोलाय आसलो एक फोंड. हो फोंड केल्लो निसार अहमदान. बाप्पाक ह्या ताराचा कामा विशीं कांय जाणविकाय नाशिल्ली. देखून निसार अहमदाक मदत करूक शक्य जाल्लेना.संडास बान्दताल्ले घराचें दूर एक कोनशांत आशिल्यान निसार अहमद आनी बाप्पा कितें उयलताय हें ताका आयकूंक शक्य जाल्लेना. निसार अहमद वोतांत रावून हुम व्हांवत काम करतालो. बाप्पान कुंञुंपात्तुम्माकडे म्हळ्ळें:

''धुवे,..इल्ले उदक काडून हाड. ताका पीवूंक उदक जाय!''

कुंञुपात्तुम्मा भितेर गेल्ले. एक ल्हानशो शाबुचो कुडको सारोवन दोन तंबळेर धूवन काडलें. तंबळेर हुंगुन चोयलें. वायट वास बी आसा? तांणे उदक हाडून बाप्पाला हातांत दिल्लें. बाप्पान उदकाचो तंबळेर निसार अहमदाक दिल्लो. उदक मेळ्ळें तेन्ना निसार अहमद बाप्पाल्या दृष्टेंत पडनाशें आपणालो तंबळेर हुंगून चोयतालो. ताजा उपरांत मात तो उदक पिल्लो. निसार अहमदान अशी केल्ले म्होण सपूद घालनु खुशीन सांगपाक कुंञुपात्तुम्माक जातलें.

संडास पुरा बान्दुन जाल्ले उपरांत कुंञुपात्तुम्मान वचून तें पळ्ळेंलें. एक ल्हानशें वंयचे

भितर एक ल्हानशो फोंड. ताजे ऊंचार दोन इल्लेशे सांकव. रेंव सगट एक कोनसार एकडावन दवरल्या. ताजे ऊंचार एक करटें. परसाकडे जाल्ले उपरांत ताजेर रेंव घालून पुरका. हाजा खातीर आसा करटें दवरलां. आयिशा म्हण्टाले "मगीर मगीर हो फोंड पुरून वतलो. तेन्ना दुसरो फोंडूक जाय".

"हें आमका फुडेंच दिसूंक नाशिल्लें." बाप्पान म्हळ्ळें: "सगट घराकडेय अशी आसा जाल्यार घाण घेवनाशीं वाटेवेल्यान चलयेत आशिल्लें"

ही घडणूक जाल्ले उपरांत बाप्पाक निसार अहमदाचेर बरो मोग दिसलो. बाप्पाक आतां सांशयूच चड जाल्ला. संबार अंकड्यानी सवाल बाप्पा निसार अहमदाकडे विचारतालो: "प्रळय लागी लागी पावता व्हय? लोक इतलो अहंकारी आनी दुश्ट जावंक कारण कितें?"

निसार अहमद म्हण्टालो: "माका कळना. जल्म घेतल्यार एक दीस मरतलो. आमकां इतलेंच कळटा. हांव मरतलो. तुमी बी मरतलें. सगट मरून वतले. सगट आत्मो मरणाचीं रूच भोगतलीं. कुराण अशी म्हण्टा. अशींच हो अख्ख्या संवसारूच एक दीस नाश पावंतलो. जाल्यार कितें? वेळ पांवतेर सगट ना जावो. तेन्ना मेरेन खुशीन वावुरका. विवेकाचो उणाव खातीर लोक अहंकारी आनी दुश्ट जाताय. कुसगुटांय आनी प्रतिघात सगटांक ना. सारकें वाटेन चलोवपाक कोणेय बी जाय. हेर लोक वायट ही चींता दूर करून हेराक सारकी वाट दाखोवंपाक जाय."

तेन्ना बाप्पाक आनी एक संशय:

"सरपाक सुधारपाक जाता व्हय?"

"तें कितें?"

"सरपा सारकेंच विख आशिल्ले मनीस आसाय. कोल्लो, वाग, माकड - हांचो स्वभावगुण अशिल्यांक हांव मेळ्ळो आसा"

"तांका सगटांक मनशाळप करनु मनसांचें आज्ञा पाळपी करताय कांय ना"?

"जाल्यारूय... ?"

मागीर ते दोगय ओगीच बसून येवजितले.

एक पावट उम्मान विचारल्लें:

"आयमत हें रान सगट कित्याक रोयलो?"

दरलाचें मागल्यान बसून कुंञुपात्तुम्मान मनांतल्या मनांत येवजिल्लें: 'आयमत अशें न्हय निसार अहमद अशी म्हणूक जाय'.

निसार अहमदान म्हळ्ळें:

"तें रान न्हय. दोन तीन वर्स भितर तुमकां सगटांक बर्यो पिकळ आंबों, पेर, अनस, सपोटा, पोपाय हें सगट दिवूं."

उम्मान विचारल्लें:

"आयमताची उम्मा आमगेर येना कित्या?"

आयिशान म्हळ्ळें:

"त्या दिसाचा झगड्याचें उपरांत उम्मा भियेवन आसा".

तेन्ना सगट येवजून येवजून हांसलीं.

हें, निसार अहमद आयले उपरांत दुसरो दिस म्होण दिसता. तो पावलो म्होण आयकले तेन्नाच ताका कांय तराचें भंय भोगलें. मागीर भारी खुशी बी भोगली. पयलीं आशिल्ली काळजांतली दुखी एक लागेन चड जाली अशी दिसलें. मात न्हय, जेवणाक रूच ना जाली. मनाक आदी!...अशी असताना ती घडणूक जाली.

निसार अहमद आनी आयिशा – दोगय रावून रुखांक उदक शिंपतालीं. सगट चत्रायेन पळेत कुंञुपात्तुम्मा आपणाल्या आंगणांत बसून तण हुमटायतालें. वेळ कितें जालो हें तें समजूंक नाशिल्लें. सूर्य चिंचें रुखाचा सामके ऊंचार पावनु रावला. सदांच भासेन उम्मा ल्हान जवळेचा लागी परसाकडे वचून येताली.

निसार अहमदान उल्लो मारलो:

"होय! एक सांगू!"

उम्मा घुवन रावून रागार चोयली. निसार अहमदान उम्माकडे सांगलें:

"आमचा नाकाचें सकल परसाकडे बसप सम न्हय. घाण मरतली न्हय?"

उम्मान विचारलें:

"तूं कोणाकडे उलयता जाणा?"

कुंञुपात्तुम्मान उम्माक उल्लो मारलो:

"उम्मा, हांगा यो गे!"

उम्मान निसार अहमदाकडे विचारलें;

"कितें करतलो रे तूं आमकां?"

निसार अहमद हांसलो.

उम्मान तरतरेत म्हळ्ळें:

"बायलांचेर अन्याय करूंक सोदता व्हय?"

जेन्ना बाप्पा घरांत पावलो तेन्ना उम्मान म्हळ्ळें:

"सोडना तुका! मयदीन, सोडना रे तुका".

"कितें जालें?"

"लिपून रावन चोयलो! हांव त्या जवळे ऊंचार परसाकडे बसताना येवन लिपून रावन चोयलो! रे मयदीन, सोडना तुका!"

"कोण?" बाप्पाले दोळे तांबडे जाले.

उम्मान म्हळ्ळें:

"तो!"

"कोण तो?" बाप्पा हातांत कोयती घेवन आंगणांत देवलो. "ताजो गळो हांव कातरून सोडतलो! सांग, कोण तो?"

"सेजाऱ्यांत रावपी तो चडो!" उम्मान अशी सांगून थांबवचें फूडें 'अस्लाम् अलैकुम्'

अशें उपचार म्हणत निसार अहमद आंगणांत पावलो.

बाप्पा ताजे क्रोप करनु दवरले केंस आनी उजव्यानी न्हेसिल्या लुंगीचेर चोयलो. बाप्पान भारी रागानूच परतून उपचार सांगलो : "वा अलैकुमस्सलाम्!"

निसार अहमदान सांगलें:

"आमी तुमचें सेजार वावुरपी. बाप्पा, उम्मा, म्हजें भयण आनी हांव..."

"तुमी मुसलमान व्हय?"

"व्हय!"

"खंयचें मुसलमान?"

"जात आनी धर्म हांचें विशीं आमी मागीर उलोवंया. आमी कोणेय जावो. हिन्दु जावो ना जाल्यार खिस्त म्होण येवजी. जात कसलीय जावो. अशी आमचा नाकाचें पोंदाक बसून...?"

"बसल्यार कितें? तूं लिपून रावन चोयतलो व्हय?"

"बाप्पा" कुंञुपात्तुम्मान भितर साकून उल्लो मारलो: "बाप्पा."

"कितें गो धूवे?" बप्पान विचारलें.

"उम्मान जें सांगले ते सगट..."

कुंञुपात्तुमाक पुराय सांगूक शक्य जालेंना. उम्मान कुंञुपात्तुम्माले तोंड हातांनी बन्द केल्ले.

"हराम जात! अब्रु राख गो तुजो. हांव तुजी उम्मा, कळता तुका? आनामक्कारालो अपुरबायेची धूव!"

कुंञुपात्तुम्मान आपणालो हात फापडून उम्मालो हात आपणाला तोंडाचेर साकून दूर केल्लो.

"उम्मा सांगता फट!" तांणे रोखडेंच म्हळ्ळें.

"आगा, मयदीन! हें हराम जात म्हजा पोटांतसून जल्मले मूं!"

"कितें गो धूवे?" बाप्पा भितर आयलो.

"हांवे चोरी गावाय सांगचेना!" कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें: "उम्मा फट सांगता!"

"आगो कुंञुपात्तुम्मा!" उम्मान म्हळ्ळें: "तुजा आजाक एकी हस्ती आशिल्ली – व्हडली एकी सुळ्याहस्ती!"

"जाल्यारीय माका चोरी गावाय सांगूक शकना"

"कितें गो धूवे?" बाप्पान विचारलें.

कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें:

"उम्मा फट सांगता. तांणी तांचा आंगणांत रावून 'होय' अशी उल्लो मारलो. आनी विचारलें कि तांगेल्या नाकाचें पोंदाक येवन बसून परसाकडे करची रीत सम कांय, अशी. हें आयकून उम्मा गोंदळ घालता. हांगा घडलां इतलेंच, व्हय!"

उम्मान म्हळ्ळें:

"हाय, माका कोण ना!"

“कुंञुत्ताच्चुम्मा, हांव तुका कातरून कुडको करतलो, चोय!”

“जाल्यार म्हजो घात कर! हीचय धर, म्हजो गळो कातर! आगा मयदीन, गळो कतर! बदरीन, गळो कातर! माका कोण ना!”

उम्मा रडूंन जमिनीचेर बसली. बाप्पा भायर देवन आयलो आनी निसार अहमदाकडे भारी विनयपणान सांगलें:

“आमी दाळिद्रीं. आतां करप कितें?”

निसार अहमदान महळ्ळें:

“आमीय दळिद्र. आमका आपणालें म्हणूक जागो जावो घर जावो ना. शारांत आमी एक भाड्याक घेतले घरांत रावतात. आतां हांगा हो जागो मोल्लाक घेतला. माका खेतींत चड आवड.”

बाप्पान म्हळ्ळें:

“आमी वावुरचें हें घर आनी हो जागो आपणालोच. जाल्यारूय आमका वाट कांय देखूक येना. हें चोय, आमचा जाग्यार पड्डो वा कसलेंच आवरण बी आसा कांय? हांगा चडय लोक सांजे उपरांत मात परसाकडे वता. रस्तार आसा आमची बायल आनी धूव परसाकडे वताय जाणा. तशीं करताय कित्याक म्हळ्यार आमी बरें स्थितीचेर वावरून आशिल्लीं. फूडें आमचा समकार उपचार दाखोवपी लोक आज आमका देखल्यार ओळख दाखोवंचना! तांचा मुखार आमची बायल आनी धूव गांववाटेर वचून परसाकडे बसका म्हळार सम दिसता व्हय?”

निसार अहमदान म्हळ्ळें:

“गांव चालवाट मनसांक हागूंक आनी मुतुक आशिल्ली न्हय. चमकुपाक आशिल्ली जाणा? वाट वायट करूं नज. घाण घालूं न्हय.”

“मागीर आमचा सारकें लोक करतलें कितें?”

“ह्या खातीर घरा लागी संडास बांदपाक जाय. चड खर्च कांय ना. पांच भोरे माडा चुडटा पांच-स बडयोआनी एदें दोर. एक खोरें ना जाल्यार दांतरें. हाजांनी एक घडयेचो काम इतलेंच! एक वर्साक मागीर घुवनु चोवंपाचें ना. त्रास बी ना. पुण लोक अशी करना कित्या? व्हडले शारांत जाल्यार थळ उणें हें समजाता. हांगा पुण तशी न्हय. भारी सुन्दर गांव. भारी निवळ उदक व्हावंपी विस्कळ न्हंय. हांगा मुसलमान, खिस्त आनी हिन्दु - सगट लोक परसाकडे वताय पुण न्हंयचा देगेर. पिवंपाक आनी न्हावपाक खातीरचें उदक. कांय जाणां तांतु हागताय आनी मुत्ताय! हांव सबारकडे भोविल्लो मनीस, जाणा? सुन्दर सोबीत दर्या देग. विस्कळ आनी धवे रेंव भरल्लें वेळ. पाय दवरूक जायना. बायल दादलो सगट जात हागताय-मुत्ताय थांगाच. भयंकर वायट घाण मारता. मानीस कित्या खातीर अशी जाता? हेरांक त्रास दिवनाशी वावरूंक बी जाता मूं. वाटेवेल्यान चमकूंक जाता? परसाकडे बसताय. जाय तसो जागो आसा. थंय हांवें सांगलें वरी करूंक जाता तुमकां? पांच - आठ बडयो, एदें दोर आनी एक खोरें आनी एदें माडा चुडटा - हीं जिनसां संबाळूंक जाता तुमकां?

“कांय त्रास ना.”

“जाल्यार हें पुराय हाडिल्लें उपरांत माका आपोवंका.”

निसार अहमद आपणाल्या वस्तीत परत गेल्लो. बाप्पा माडा चुडटा आसलीं जिनसां घेवपाक म्होण भायर सरलो. तेन्ना उम्मान कुंञुपात्तुम्माकडे म्हळ्ळें:

"तूं म्हजें धूव न्हय!"

कुंञुपात्तुम्मा ओगी रावलें.

उम्मान दुसरीय म्हळ्ळें:

"तुका हांवें पोटांत घेतल्लेलेंच ना."

कुंञुपात्तुम्मान कांय उलोवंक ना.

उम्मान म्हळ्ळें:

"आगो हराम! तुजा तोंडांत किंतें भल्लां?"

कुंञुपात्तुम्मा ओगी रावेलें.

"तुका म्हजेकडे उलयल्यार किंतें जाता गो; हाताचें कांकण निसरून पडता व्हय?'

कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें:

"म्हजें हाताक कांकण ना."

उम्मान विचारलें:

"तुका तुजी अपुरबायेची उम्मा होड वा तो चेडो?"

कुंञुपात्तुम्मा ओगी रावलें. उम्मान म्हळ्ळें:

"चेम्मीनटिमाची शूरताय आतां खंय गेल्ली? पळेलें आतां? त्या चेड्यालीं दोन उतरां आयकून तो सगट विसरलो! माडा चुडटा आनी बडी कित्याक? कबर बी बांदूक व्हय?"

मरणाचा उपरांत पूरनु ताजा ऊंचार ल्हानशें माटव बादून तांतु एक म्हयनाक दोग जाणां बसून सकाळ सांजे कुराण वाचताय. मेल्ले मनसाचा आत्माक मुक्ती मेळपाक म्होण! हाका लागून माडा चुडटा, बडी आनी दोर जाय व्हय?

कुंञुपात्तुम्मा ओगी रावलें.

उम्मान विचारलें:

"तुवें त्या चेड्याक मजत करनु , गवाय सांगली कित्याक गो?"

कुंञुपात्तुम्मा ओगी रावलें.

उम्मान म्हळ्ळें:

"तुजा उम्मालो अब्रु राखूक कित्याक जालेना तुका?"

कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें:

"माका चोरी गवाय सांगूक शकना!"

उम्मान विचारलें:

"सांगल्यार किंतें जाता गो तुका? तुजा गळ्यावेली सरपळ निसरून पडटली व्हय?"

"म्हजे गळयाक सरपळ ना!"

"मागीर सांगल्यार किंतें जाता तुका?"

"बाप्पान कोयतेनी ताजो गळो कातरलो जाल्यार... ?"

"आमका नश्ट कितें ?"

"आनी बाप्पाक पुलिसांनी धरन व्हरनु मारनु घात बी केल्लो जाल्यार.. ?"

उम्मा इल्लो वेळ ओगी रावली. थोडे उपरांत तीणे म्हळ्ळें: "रे अल्लाह ! तूवें सागलें तें खरें !"

उम्मा मागीर कुंञुपात्तुम्माला कुसीक सरली. उम्मान म्हळ्ळें:

"म्हजें मोगाळ धूव तूं ! तूवें आमचा कुटुंब राखलें... धूव गो, थोडे दीस जाले तूं बेजार दिसता ?"

"म्हजा कळजांत दूख, उम्मा !"

"रे, अल्लाह ! कांय देवचार वा गंधर्व हांणी म्हजें धुवेचेर भार घालो कांय ?"

●●●

# 9

# म्हजा काळजांत दूख

कुंञुपात्तुम्माक कितें जालें हें ताकाच कळना. मसजिदातला पुरोहित हांचाकडे साकून मंत्र जपिल्लो दोर घेवन हाडून बाप्पान ताजा गळ्याक बांदलो. हाजा भायर मसजितांतला एक मुसलियारानी दिल्लोलो एक ल्हानशें सुटकेस सारकेंच आसलो तावज बी ताजा गळ्याक लांबून आसा. ताका पिडा दिवपी भूत पुण ताका सोडूंन वचना. एक दीस आयिशा ताजगेर आयलें आनी तांणे ताजेकडे कांय खबर सांगलें. निसार अहमदान कळोवंक सांगलां अशी सुरवेकच म्हळ्ळें देखून कुंञुपात्तुम्मा आयिशान सांगचें खबर ध्यान दीवन आयकतालें. आयिशा आपणाक मजा करता म्होण उपरांत कुंञुपात्तुम्माक समजल्लें. तेन्ना तांणे आयिशाकडे म्हळ्ळें:

"वच, ओगी राव तुट्टापी!"

आयिशान म्हळ्ळें:

"कसलोय शैतान आसूं दूर वतलो; मागीर इफरीत हाका धावंडावक चड त्रास जावचेना! सबाव ते गळ्यांक बांदून घालनु भोवंल्यार पुरो. इक्काकाली चामाची ती व्हडली पेट आसा न्हय, तांतु दवरला. हाडूं हांव... कितें?"

कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें:

"वोर बुद्दू, ओगी राव!"

अचकित ताका दुख भोगलें.

आयिशान खोलायेन सांगलें:

"आरी, तुका कितें जालें? तूं बेजार आसा कितें?"

"म्हजा काळजांत दूख!"

सुळसुळु न्हय. मनां भितर जिस्त रावल्लेंले रण्णें. ओगी बसताना रडूंक दिसता. अचकित हांसूकय. रण्या पर्शी ताका चड ओड हांस. व्हडव्हडान आसलो हांस न्हय. येवजून येवजून अमुरक्यांनी हांसप. तेन्ना गळून गळून रडूंकय दिसता. निसार अहमदाक पळेताना ताजे गाल चुरचुरेताय आनी स्तनां भरनु जड जावन फुटूंक सोदताय. 'म्हजा सामकार अशी पळेता कित्याक?' अशी निसार अहमदाकडे परिवेदन सयत विचारूक ताका दिसता. पुण निसार अहमद मागीर ताका अशी पळोवक नाशिल्लो. जाल्यार...? निसार अहमद आज मेरान कुंञुपात्तुम्माक ह्या रितीन चोवूंक नाशिल्लो. पुण निसार अहमद आपणाक पळेवंक जाय अशी कुंञुपात्तुम्मालो आग्रो. निसार अहमादाक आपणाक बरें तरान पळेवंक जाय आसल्या थळार

रावपाक कुंञुपात्तुम्मा आवडतालें. "हांव पुण सिरपूट विचूंक रावला व्हय?" अशी तें आपणल्या मनातूंच येवजून समाधान पावतालें. एक ना जाल्यार आनी एक कारण सांगून तें सेजाऱ्यांत केन्ना केन्ना वतालें. मुख्य जावन उजो घेवपाक. ना जाल्यार मीठ. कांय ना जाल्यार आयिशाक मेळूंक. कितेंय उपाय सांगून गेल्यारीय निसार अहमदाक सारकें पळ्ळेवंक मेळना. कांय वेळा तो आंगण निवळ करता आसतलो. ना जाल्यार झाडाक शिंपण करता आसतलो. आंगण केन्ना निवळ करूंक जाय? आंगण आताच निवळ आसा. थंय भांगार जशी सोबीत रेंव पातळावन आसा. ताजा चार भागानी फुल्लांचीं झाडां आसाय. कांय काम ना जाल्यार पुस्तक वाचप! अशी ध्यान दिवन वाचता कितें? कुंञुपात्तुम्मा आपणाकडेच विचारतालें.

एक दीस कुंञुपात्तुम्मा पळेताना निसार अहमद एक रुखाचा पोंदाक ओलतेराचेर पडून आसा. होंटींत पुस्तक बी आसा. ओगोच पडला!

कुंञुपात्तुम्माले हड्डे कांय तराचे खोशीचें हुनसाणींत केण्डूक लागलें. निसार अहमदाली दृश्टी वयर मळबाचेर आसा. पश्चीम क्षितीज भर तरा तराचो रंग भरल्ला. उडपी सुकण्यांचा फाटीर लकलक तांबडें उजवाडाचें पडबिंब दिसता.

कुंञुपात्तुम्माक अमसोर जालो. त्या दिसा तें धवें वस्त्र न्हेसलें. धवो खोमीस कांय दिस उपरांत आज घाल्ला देखून देहाक चिरडून आसा. माथार पातळ 'तट्टम' पागुरलें, अशी सिंगार करनु तयार जाल्लां कित्याक म्हण ताकाच कळना. हारसांत साबार वेळ तें आपणाकच पळेंत रावलें. दोळ्या पातीक निळसाण. गालावेलें काळो तिबो काजळाचो तिबो जशी सोबता. तें अमुरक्यांनी हांसलें. ताका आतां रण्णें आयलें. पुण तें हांसलें.

तोंडाचेर उदेल्ली अप्रूपताय लिपोवन तें सेजाऱ्यांत गेल्लें. हड्डांत टप टप आवाज मारतालो.

निसार अहमदालें नदर ताजेर पडली. त्या दृश्टेंत भारी खोशी भरून अशिल्ली!

कुंञुपात्तुम्मान थंय साकून उजो घेतलो. आयिशाकडे जावो ताजा उम्माकडे जावो उलोवंक कुंञुपात्तुम्मा रावलेंना. वेगीन परतून येता वेळार निसार अहमदान उल्लो मारलो:

"होय!"

निसार अहमदालो उल्लो कुंञुपात्तुम्माला काळजांत एक जोगुल जशी भोगलो. एक पावल तरी मुखार दवरूंक जायनाशी तें थंयीच थांबून रावलें. ताका एक तराची हुनसाण भोगली. ताका भय दिसलें. ताका अजाप दिसलें. उपरांत ताका खुशी बी भोगली. ह्या सगट अणभव घेवन कुंञुपात्तुम्मा निसार अहमदाक चोयली.

निसार अहमद उठावन ताजा लागी आयलो.

"माका इल्लो उजो जाय" अशी म्हणून तांणे कुंञुपात्तुम्माला हातांत साकून उजा काप घेतलो. आनी एक सिगरट जळोवन घेतलें.

"आरी कुंञुपात्तुम्मा" निसार अहमदान म्हळ्ळे: "आमचें तें सवणें आसा न्हय, ते म्हजेकडे आयलें आनी कुंञुपात्तुम्मा बरें आसा कांय अशी विचारतालें. हांवे म्हळ्ळें तूं हालींच कांय भूत हांका धावडावक म्हण एक 'सूटकेस' गळ्याक बांदून भोंवता अशी!"

"उजो दी माका."

"कुंञुपात्तुम्मा"

"हां"

"कितें जालें गो तुका?"

"म्हजा काळजांत दूख!"

"म्हणून हें गळ्याक लांबोवन भोवंल्यार दूख दूर जाता?"

"उजो दी माका!"

"तूं बरोवंक वाचूक शिक्लेना?"

"कोण माका सिकोवंक ना!"

"आयिशाकडे सांग. फाल्यासून तें तुका शिकयतलें. सांगता कांय?"

"तुट्टापी माका मजा करतलें"

"तुट्टापी तुका मजा करता जाल्यार हांव ताका मारनु दोन हजार कुडके करतलों आनी...!"

"नाका; तुट्टापीक कांय करु नज! उजो दी!"

"तुटापीकडे हांव सांगू, समजलें?"

कुंञुपात्तुम्मान निसार अहमदाकडे साकून उजाकाप परतून घेतलो. थंय साकून धावन बचपाक ताका आग्रो दिसलो. पुण सावकासायेनच चमकून गेल्लें. प्रपंच कांय एक नवें उजवाडांत बुडून न्हावन रावला! सगटाकय सोबीतकाय व्हाडल्या वरी दिसता. ताजा मनांत सगटा विशीं कांय तराचो मोग उदेलो. तेन्ना एक मुंयेन ताजा पावलाकडे चाबलें. कुंञुपात्तुम्मान मुंयेकडे दुखान सांगलें:

"तूवें आतां माका चाबल्या वरी दुसर्‍यांक चाबू न्हय, जाणा!"

मगीर कुंञुपात्तुम्मान ते मुंयेक बोटानी काडून जमिनीर दवरली.

कुंञुपात्तुम्माक रात चड सोबीत आसा अशी भोगली. उम्मा आनी बाप्पा घोरेवन न्हिदल्यांय. पुण ताका न्हीद येना. निसार अहमदा विशीं येवजून ताका न्हीद येना. हांस फुल्लो. परिभव बी दिसलो. उस्याचेर चिवंटो काडून तांणे म्हळ्ळें: "तुका दुखलें व्हय?" अशी म्हण्टना ताजे दोळे भरल्ले. अचकित तें अमुरक्यांनी हांसलें. कांय वेळांनी ताका न्हीद आयली. आपण निसार अहमद हांचें वांगडा फिरूंक वता अशी तांणे सपन पळेल्लें.

दुसरे दीस दनपारा जेवणाचे उपरांत कुंञुपात्तुम्मा आंगणांत अशिल्लें. आयिशा हातांत एक मोटी बडी सयत आयलें आनी तांणे खोलायेन आवाज दिवनु कुंञुपात्तुम्माक उल्लो मारलो. खाक्यांत एक दोन पुस्तक बी आसाय. कुंञुपात्तुम्माक पुण कांय समजलेंना. आयिशान ताका चिंचें पोंदाक आपोवन व्हेल्लें. हातांत अशिल्या बडेन आयिशान भुंयचेर एक वर्तुळ बरयलें. आनी कुंञुपात्तुम्माक हुकुम दिल्लो.

"ह्या वर्तुळाचा सारकें मद्दें राव!"

"कित्याक तुट्टापी?" अशी विचारून कुंञुपात्तुम्मा लायनीच्या मद्दें रावलें.

''उजवो हात दाखय!'' आयिशान दुसरीय हुक्कुम दिल्ली.

''माका मारूंक व्हय''?

''दाखय हात!''

कुंञुपात्तुम्मान  हात दाखयलो. एक पेनसील, एक नोट पुस्तक, आनी एक मुळावें पुस्तक आयिशान कुंञुपात्तुम्माला हातांत दवरलें.

''आजसून हांव तुजी टिचरीन!'' आयिशान कुंञुपात्तुम्माकडे म्हळ्ळें.

कुंञुपात्तुम्मा हांसलें.

आयिशान म्हळ्ळे:

''म्हजा विध्यार्थीनी म्हजेकडेसून कांय लिपोवचें न्हय! सगट मेकळून सांग. शिकोवप ताजा उपरांत जावो! म्हजो भाव म्हणचो तो तरणाटो आनी श्रीमती (तू) जावनु...कितें कांय आसा?''

''ओगी राव तुट्टापी!''

''पुराय सांगता तूं, कांय म्हजो मार घेता? चोर बुद्दूक कातरून हांव चार हजार कुडकें करतलें, सांगू!''

''वच, तुट्टापी!''

''सांग!''

''कितें?''

''म्हजो इक्काका आनी आक्काचें मद्दें संबद कितें?''

''ओगी राव तुट्टापी''

आयिशा थोड्या वेळ ओगी रावलें. उपरांत तांणे कुंञुपात्तुम्माकडे विचारलें:

''तुका नाचूंक येता?''

कुंञुपात्तुम्माक नांच म्हळ्यार कितें म्होण कळना. तांणे म्हळ्ळें:

''माका कळना''

''आंगवालें धूंवप, रांदप, चित्र रचप, खाड तासप हें कांय कळता तुका?''

''ओगी राव तुट्टापी. माका कळना. तूं माका शिकयता कांय, तुट्टापी?''

''जाल्यार आयक, दादल्यां वरी चोर बुद्दू ह्या संवसारांत कोण ना.''

''ओगी राव तुट्टापी. अशी सांगचें न्हय!''

कुंञुपात्तुम्माक आयिशालो लक्ष दुसरेकडे घुंवडावन सोडपाक एक विशय मेळ्ळो. दोन-तीन मूयों मेळनु एक मेल्ले मुसाक तणावेल्यान तांडून वरताय. कुंञुपात्तुम्मान म्हळ्ळें:

''तुटटापी, आतां 'शज्रतुल मुन्तहा' हांचें एक ल्हानशें पान निसरून सकल पडलां आसतलें, चोय तूं!''

आयिशान म्हळ्ळें:

''भारी गरजेचें विशया विशीं आसा हांव उलयता. आक्काक वाचूक आनी बरोवंक शिकूका व्हय''?

"शिकूंक जाय!"

"बरें. जाल्यार हांव विचारचे एक एक प्रश्नाचीय सारकें जाप दी. म्हजा इक्काकाकडे केन्ना परिचय जालो?"

"तूं माका बरोवंक शिकय तुट्टापी!"

"आक्का म्हजेकडे न्हू पयलें इश्टागत जाली?"

"न्हय तुट्टापी" कुंञुपात्तुम्मान सांगलें.

"कितें?" आयिशान अचकित म्हळ्ळें : "म्हजेकडे न्हय म्हण्टा?"

"न्ह..य"

"जाल्यार, मागीर?"

"हांवे न्हांवप तुमचा घराकडेचा बांयचेकडे आशिल्लें. तुट्टापी, तुमी वस्ती करपाक येवचे फुडें एक दीस एक दादलो सवणें बायल सवण्याक मारतालो. तेन्ना बायल सवणें जवळींत पडल्लें. ताका चोवूंक वत्ता तेन्ना हांवय तांतु पडलें. म्हजा हाताक घाय जालो आनी थंय साकून रगत व्हावंतालें. इल्लें रगत हांवें बायल सवण्याक पाजयल्लें. पाजयताना ताजा पोटांत दोन तांतीं अशिल्लीं हांवें देखलें. त्या वेळार तुट्टापी, तुजो इक्काका....!"

"इक्काका?"

"तुट्टापी, इक्काका थंय पावलो. आनी जवळेंतल्यान देवनु आयलो. म्हजो घाय बांदून दिल्लो. माका जवळेंतसून वयर चडयलें.न्हाताना घाय तिमोवंक नज अशी सांगलें."

"मागीर सवण्याक जालें कितें?"

"उडून ताजा घरांत गेल्लें"

"बरें, इतलेंच व्हय?" आयिशान आपणाकडेय म्हळ्ळें: "बरें, ही आसा कुञुपात्तुम्मान केल्लेली अजापाची करणी व्हय!"

"कितें म्हण्टा तूं, तुट्टापी?"

"बरें, कांय ना!" आयिशान म्हळ्ळें : "दादले म्होण उळदीवंचे चोर बुद्दू हांचे विशीं."

"ओगी राव तुट्टापी? अशी सांगचें सम व्हय?

"आनी आतां म्हजें धूव (तूं) माका मारूंक सुरुकरतल्लें. अशी म्हाजा नसिबांत आसा दिसता. त्या वेळार बी आयिशा बीवी हांसमुखी जावन आशिल्ले, अशी लोक म्हाजा विशीं म्हण्टल्ले!"

"कितें मुरमुरेंता तूं, तुट्टापी?"

"हांव तुका शिकोवंक वता. बरें, तूं लक्ष दवर!"

आयिशान रेंवेत 'ब' हो अक्षर बरयलो.

"सारकें पळय; आसलें अक्षर ह्या पुस्तकाचेर आसा कांय?" अशी कुंञुपात्तुम्माकडे विचारून आयिशा तणाचेर उधारेंच पडलें.

कुंञुपात्तुम्मान पुराय पुस्तकाचेर सोदले. पुण हें अक्षर पळोवूंक मेळना. अखेर तांणे

पुस्तकाचा आवरणाचेर साकून तें सोदून काडल्लें.

आयिशा उठायलें. तांणे म्हळ्ळे :

“ताजें नांव आसा ‘ब’, त्या अक्षराचें नांव कितें ?” कुंञुपात्तुम्मान उचारल्लें:

“ब”

“ब, ह्या अक्षरान सूरु जाताल्लें एक उतर सांग.”

“बयी”

“बुद्दू! चोर बुद्दू ‘वषी’ (वाट) अशी म्होणूक जाय.”

“वषी!”

“आतां त्या उतरांत ‘ब’ आसा व्हय ?”

“ना”

“जाल्यार तूं येवजून सांग.”

“बयितनंगा!”

“बषुतनंगा (वांयगण) अशी उचार.”

अशी कुंञुपात्तुम्मान बरोवंप आनी शिकप आरांभिल्ले. दीस रात तांणे त्रास भोगलो. उम्माक आनी बाप्पाक तांणे ही खबर कळेयलोच ना. उम्मा जाणा जाल्यार सोवतली हें ताका मुजरत कळता. अचानक उम्मान “निस्कार” प्रार्थना करपाक आरांभिल्लें! मोटी प्रार्थना! निस्काराचा मांदरेचेर साकून उम्मा उठायताच ना जाली. थांगाच बसून उम्मा घरांतले कामा विशीं सोद करताली. कुंञुपात्तुम्मा दिसाचें वासरेंत बसून आनी राती मांदरेचेर वसून शिकवण मुखार व्हरतालें. ताका संशय उदेताना ते शेजाऱ्यांत वतालें. खुशीन तें सदां पर्जळटालें. एक दीस आयिशाला उम्मान कुंञुपात्तुम्माकडे सवण्या विशीं विचारलें.

तेन्ना ताजा गालाचेर तांबडसाण भरल्ली!

“तोंडाचेर तांबडसाण भरता, पळयल्लें?” आयिशान म्हळ्ळें.

“तूवें केंस वळोवप ना व्हय ?” आयिशाला उम्मान कुंञुपात्तुम्माकडे विचारलें.

कुंञुपात्तुम्मान जाप दिल्ली: “केंस ओळेयल्यार ‘काफीर’ जातले अशी उम्मा सांगता.”

आयिशाली उम्मा हांसली. तांणी एक फणी काडली आनी कुंञुपात्तुम्माले केंस वळोवन चन्दायेन बांदून दिल्ले

आयिशान मोगरी कळे तुंटेवंन हाडून कुंञुपात्तुम्माला केंसाचेर माळून दिल्ले.

“माथार सैतान बी चडून रावतलो व्हय ?”

कुंञुपात्तुम्मान विचारलें.

“वच, आनी सवण्याकडे विचार!”

“वच गो तूं , तुट्टापी!”

कुंञुपात्तुम्मा लजेत आनी भारी खोशीन आपणाला घरांत परतलें. ताका पळयले फुडें उम्मान अकस्मात विचारलें...

“कितें गो हराम, हें दाखयला कितें ? तुजा माथार कितें ?”

कुंञुपात्तुम्मा ओगो रावलें.

उम्मा वेगीन उठावनु आयली आनी तार्जे केंस निसरावनु सोळ्ळे. आनी फूलां तितलेंय चिरडावन दूर उडयलीं.

"तीं दाखयता वरी तूंवय दाखोवंक नाका, जाणा? त्या चडवालो आजो व्हय तो बैलगाडीकार आसलो. जाणा? तूं आनामक्काराली अपुरबायेचा धुवेली अपुरबायेची धूव! तुजा आजाक एकी हस्ती अशिल्ली. व्हडली एकी सूळ्याची हस्ती!"

कुंञुपात्तुम्मा ओगी रावलें. तेदुसाच तांणे वेगळो एक खबर लागेन आयकली. ताजी व्हरडीक उगी जातली. बाप्पा चेड्याक सोदता.

कुंञुपात्तुम्माक भिरांत लागली. मुखामळ बावलें. गळो सुकलो. तें हालनाशें रावलें.

उम्मान म्हळ्ळें: "म्हजो अनुवाद घेनातले तूवें ह्या घरा भोंवतणेचा भायर वचूं नज!"

कुंञुपात्तुम्माला दोळ्यांत काळोख भरलो. कायींच आयकूक येना जाले. 'या, राबूल आलमीन' अशी म्हणून तें घुंवळेवन पडले.

"रे मयदीन! मुत्तुनबी! म्हजा चेरडाक जाले कितें?" अशी म्हणून उम्मा रडूंक आरंभिल्लीं. बाप्पा पावलो. उदक फापुडप! वारें घालप! सारकें गोंदळ!

कुंञुपात्तुमान दोळे उक्तायले आनी तें उठावनु बसलें. उम्माला आनी बाप्पाला सामकार तें व्हडले दोळ्यानी चोयलें. ताजेकडे सांगनातलेंच वा ताजो अनुवाद घेवनाशें ताजा खातीर एक चलयाक सोदून काडला!

"धूवे, कुंञुपात्तुम्मा!" बाप्पान उल्लो मारलो.

तें ओगी रावलें.

उम्मान विचारलें:

"म्हजा अपुरबायेचा धूवेक कितें जालें?"

कुंञुपात्तुम्मा ओगी रावलें.

"गा, मयदीन, सैतान आंगार चडला जायत!" उम्मा म्हण्टाली.

कुंञुपात्तुम्मा व्हड-व्हडान हांसलें. दुसरीय दुसरीय हांसलें. उपरांत तें रडलें. हड्डें दुखत तें रडलें. म्हद्यान राती जाली. आनी पुराय संवसार न्हीदूक म्हण पडलो. तरीय तांणे रण्णें राबोवंक ना

तर्शीच पडून तांणे जनालातल्यान भायर पळेंल्लें.

ही कोटी आंकड्यानी अशिल्लीं नक्षत्रां. काळो आनी मोटे आठ पायांचाल्या जाळ्यांत घुसपून पडून पर्जळटालीं प्रकाश किरण्णां व्हय?

●●●

# 10

## सपनांचो काळ

दीस येता. मागीर रात जाता. पुण कुंञुपात्तुम्माक कांय स्पश्ट जावन कळना. दीसाचें खाण जेवण ना. राती न्हीद ना. सगट एक सपन जशें ताका दिसता. कोण तरी येता. कितें कितें विचारता. तें पुण जापूच दीना. आपण जागे आसा वा न्हीदून आसा ताकाच कळना. आयिशान म्होण दिसता ताजेकडे कांय विचारलें. पर्तून विचारलें. तें जाप दितालें. दुसरीय आयिशान फुडें लिवंगिल्लो सवाल परतून विचारलो. कुंञुपात्तुम्मान हड्डे दुखत व्हडान जाप दिल्ली: ''तुट्टापी, माका व्हरडीक करनु सोडूक सोदताय!''

मागीर ताजा दोळ्यांतल्यान उदक व्हांवलें. दुकाचें सेमिन्द्रुच! सेमिन्द्रांत तें पोवूंन आसा. काळखे संवसाराचा एक दिकांत साकून उजा किट्ट वयर सरता! हो सूर्योदय आसा. कावळे 'काव' 'काव' करना. सुकणें 'चिल' 'चिल' करना. लोक उलयताय. उम्मा, बाप्पा आनी दूसरे कोण कोण आसाय. हा... न्हय, हो सूर्योदय न्हय! आंगणातल्या फोंडूळ्यात इंगळ्याची किट्ट जळटा! कुंञुपात्तुम्माला भोंवतणी मातेच्या पणतेंत ल्हानशी वात जळनु दवरल्या. कुंञुपात्तुम्माक ताजें लागी एक मणयेचेर बसयला. ताजा सामकार हातांत सारन घेवनु एक दादलो मनीस उबो आसा.

तो आसा शैतानाक भायर उडोवपी मुसलियार! कुंञुपात्तुम्माक जीवितांत पयले पावट आज राग दिसलो.

राग म्हळ्यार घट राग. एक हस्ती सारकें आवाज करूक आनी वाग जशें गार्जेवंक दिसलें! उठावन वचून सगटाक चाबून कातरूक दिसलें!

कुंञुपात्तुम्मा हालनाशे बसलें. मग मग वास; मुसलियार ताजा तकलेवेल्यान कितें कितें उवाळतां आनी उजांत उडेयतां. धूप आनी चंदन बी आसा. मुसलियार 'सुह', 'फल', 'हल' अशी कांय मंत्र व्हडव्हडान म्हण्टा. देवचारांक दूर करता! देवचार, गंधर्व आनी आत्मो अशें सबार देवचारांक घांवडावन सोडून नांव जोडलेले मुसलियाराले हातांतलें बेत!

मुसलियार आपणाला बेतान कुंञुपात्तुम्माक मारतालो. केंसाक धरनु ताजा फाटीर मारतालो! ताजा जांगेचेर मारतालो! देवचाराक धांवडावप अशी! हाजानय देवचार देवून वचना जाल्यार मिरें वांटून दोळ्यांक सारयतलो! उजा कीट हाताचेर दवरतलो! तेन्ना 'शर' अशी आवाज जातलो आनी हाताची साल करपतली. माथें साकून पायाफूळे लागेन दुखतले! अशी दुखोवपाक मुसलियाराक अनुवाद दिल्ला न्हय?

"बाप्पा माका मारू नाका म्होण सांग!"

मुसलियारान कांय उलोवपाक ना. बाप्पा ओगी रावलो. उम्मा बी ओगी रावली.

"तुट्टापी, माका मारता म्होण सांग!" कुंञुपात्तुम्मान अशी आपणाला मनातूंच म्हळ्ळें. आयिशाकडे बी म्हळ्ळें. पुण कोणाकडे सांगूक म्हण तें विनंती करता?

"हा..कोण म्हूण सांग" मुसलियारान हुक्कुम दिल्लो. "आंगांत चडला कोण?"

कोणेय चडला जाल्यार सांगयेत. पुण कोण ना आसताना कशीं सांगप. मुसलियारानी परतून परतून विचारलें. तीसरे पावट उलयता मुसलियार न्हय. पुण ताजें बेत अशिल्लें. मागीर घडलें कितें कुंञुपात्तुम्माक उड़गास ना. मुसलियारान कुंञुपात्तुम्माक दा-बारा पेट मारलें. कुंञुपात्तुम्मा रडलें. व्हड व्हडान रडलें. इतल्यान कुंञुपातुम्मान मुसलियाराला हातांत साकून बेत ओडून काडलें आनी मोडून उजांत उडोवनु सोडलें! खयींच धांवनु वचूं म्होण कुंञुपात्तुम्माक दिसलें. पुण ते धांवलेंना. उजा मांडाचें कुशीक निसार अहमद रावला अशी तांणे अकस्मात पळेलें!

निसार अहमदान ताका उबारन काडलें वा तें निसार अहमदाचा लागी धावनु गेल्लें ताकाच कळना.

निसार अहमदान ताका व्हावून जगलेवेल्यान भितेर कूडांत व्हरनु मांदरेचेर न्हिदयलें. कुंञुपात्तुम्मान मागीर दोळे उकतायले तेन्ना दनपार जावन खूब उजवाड पसरून अशिल्लो.

मांदरेचेर लागी आयिशा बसला. लागीच आयिशाली उम्मा आसा.

कुंञुपात्तुम्माला उम्मान कांय वखदाचो पालो वांटून हाडून ताजा निटळार सारयलें. ताका तेन्ना थंडसाण भोगली. ताजा नांकातल्यान भायर येवपी उश्वासाक हुनसाण चड अशिल्ली – उजो व्हय?

कुंञुपात्तुम्मालो बाप्पा त्या कुंडांत आयलो. आयिशा आनी ताजी उम्मा उठावन दूर सरली. बाप्पान विचारलें:

"धूवे, पेजेंनिशे पिता?"

"कांय नाका, भूक ना, तान दिसना!"

"धूव रे म्हजे, कितले दीस जाले तूवे खावन पीवन!" बाप्पा दुखान म्हण्टालो.

हाय....बाप्पा दुख दाखयता कित्याक? तें मरूंक वता. वारें मारूक आरंभिल्ला! आनी आतां पानां रोकडींच निसरनु पडटलीं! व्हय तुफान मारता...पानां उबताय... रूख एकमेकाचेर आडळताय. आखरेचो झोड असत.. मरणाचो दूत पावलो व्हय? प्रपंचाचो अंत जावक वता. 'इसराफील' नावांचें देवदूत 'सूर' नांवाचें शींग वाजता व्हय? प्रळय कुसीक पावलां! रूख मूळ सयत पडताय. पर्वत हालून फुटून पिठो जाता...भूंय शून्य जाता व्हय?

पावस पडता. नवे मातेचो वास पसरता. वाटेवेल्यान लोक हांसून उलोवन चलताय. आतां दनपार जाला. घोणी रडतालो आवाज दूर दूर साकून आयकूक येता. घोणी पुण दोळ्या सामकार ना. विसकळ धरल्लेलीं पाखां हालोवनाशीं ती अंत्राळावेल्यान उडता. कुंडांत दिसाचो उजवाडूच ना. रातीचो काळोखूय दिसना. कुंञुपात्तुम्माक हालक जायना. आंग पुरा दुखता.




कोण तरी ताका कातरता आनी धा हजार कुडके करता. सुकण्यांक उडोवन दिवंपाक आसत. सुकणीं हे कुडके चोंचेत घेवनु गिळनु काडतलीं आनी अंत्राळावेल्यान उडून वतेलीं. मागीर... ?

''कुञुपातुम्मा!'' कोण तरी ताका उल्लो मारता. कोण आसतलो? तांणे दोळे उक्तायले. काळजांतल्यान जोगूळ धाविल्या वरी भोगलें. निसार अहमदालो बाप्पा! कुडांत येवन रावला. तांणी म्हळ्ळे:

''ह्या कुडांत वारें आनी उजवाड पावूंक जाय. तें जनेल धापून घाल्ला कित्याक?''

निसार अहमदाला बाप्पान जनेलाचें दार उक्तायले. वारें आनी उजवाड भितर पावलें. उजवाडाक आतां सबार तेज!

''कुंञुपात्तुम्मा!'' तांणे दुसरीय उल्लो मारलो.

''ओ!''

कुंञुपातुम्मान जाप दिल्ली पुण आवाज तोंडात साकून भायर आयलोना दिसता.

निसार अहमदालो बाप्पा भायर देवन कुंञुपात्तुम्माला बाप्पाकडे कितें सग उलयतालो. कितें उलयता? जायना; दोळे उक्ते धरनु अशी पडूक जायना. जागे आसचे पर्शीं बरें दिसता न्हीदून पडप. न्हीद म्हळ्यार काळो सेमिन्द्र अशें. काळो सेमिन्द्रांत बूडून फिरता अशी ताका भोगता. उजवाट जाय! एक तेंक जाय. आधार नातीह्लें वावुरपाक जायना. तें एक रूख जशें भुंयचेर सारकें उबे रावला. केंस म्हळयार मूळां. हात पाय रुखाचे खांदे. सबार पानां आनी फुल्लां जाल्यांय. दोन सवणीं रुखाचेर घोंटेर बांदूक सोदताय. खंयची सवणीं?

''कुंञुपात्तुम्मा''! कोण तरी ताजा देहाक हात लावन हालोवन उल्लो मारता. कोण तो? आवाज ओळखीचों दिसता. आळसपणान्न पडून होळे उक्तावन तें चोयलें. हो कोण रावला मुखार... बाप रे... निसार अहमद!

''कुंञुपात्तुम्मा!'' निसार अहमदान उल्लो मारलो आनी म्हळ्ळें:

''तूं उठून बेस री. आनी हें घेवन पी. कोडसाण आसतली. जाल्यारीय गोड म्होण येवजून पी. रुचून चोवूं नाका.''

वखद नाका अशी सांगूक ताका दिसलें. इतल्यान निसार अहमदान ताका उबारनु बसयलें आनी एक धवी बशेंत कांय तराचें काळे वखद ताका पाजयलें. मागीर कितें सगट उलयतालो. निसार अहमदाक जाप दींवपाक कुंञुपात्तुम्माक भारी इत्सा अशिल्ली. पुण निसार अहमद इतल्यान थंय साकून भायर देवलो. उम्मा ताका पेजेनिशें पाजयताली.

उम्मान विचारलें:

''आयिशाली उम्मा केंस बांदता वरीच बांदूक जाय तुका?''

कुंञुपातुम्मान म्हळ्ळें:

''हांव मरून वता!''

उम्मान म्हळ्ळें: ''म्हजा अपुरबायेचें धूव, तूं अशें अदृष्ट सांगू न्हय. तुजी व्हरडीक आमी थारायल्या.''

कुंञुपातुम्मान म्हळ्ळें:

"माका व्हरडीक करनु दिवचें नाका! हांव मरून वाता!"

"हांव मरूं वता अशें म्हणूक जाय." अशी सांगून आयिशा हांसत थंय आयलें. तांणें विचारलें:

"वखदाक गोडसाण अशिल्ली व्हय"?

"वच, तुट्टापी!"

"चोर बुद्दू, एकल्यान दिल्यार मात वखद पितलें व्हय?"

"ओगी राव तुट्टापी!"

कुंञुपात्तुम्मा तशींच पडलें. काळजात म्होव भरल्ला. ताजा जिबेक आतां रूच फाव जाल्ला. ताका आतां तान भोगता. भूक भोगता. उठावनु बसूक शक्ता. कोणेय मदत करूं नाका. ल्हवु ल्हवु चमकूक बी जाता. अशी आसताना एक दीस आयिशान म्हळ्ळें:

"आरी, चोर बुद्दू तुका व्हरडीक करूंक येवपी कोण म्होण जाणा तूं?"

"ओगी राव तुट्टापी!"

"चोय! कोण म्होण जाणा?"




●●●

# 11

# नवी पिळगी उलयता

कुंञुपात्तुम्माक निसार अहमद हांणे व्हरडीक केल्लेली एक राती अशिल्ली. त्या दिसा सांजें चार वराचेर एक अप्रुप घडणूक घडलें.

व्हरडीक चलोवपाक मसजिदातल्या पुरोहित हांका आपोवंक बाप्पा गेल्लो. गावांत सगट घरांतूय व्हरडीके विशीं कळयलें. पुण कोणाक आपोवंक ना. व्हरडीके खातीर जेवण जावो घोष जावो कांय ना. अशी कांय नाका म्होण निसार अहमदाला उम्मा आनी बाप्पा हांणी थारायलां. व्हडपण दाखोवपाक म्होण बर्यें-बर्यें जेवण दिवन दळिद्र जाली दुराग्रही मुसलमान कुटुंबां सगटकडें आसा, हें आमी यादींत दवरल्यार बरें. फकत सात-आठ जाणांक दीवपाक म्होण तुप्पाशीत तयार करपाक जाय अशिल्लें. व्हकलेक न्हेसूक जाय अशिल्लें वस्त्र निसार अहमदाला उम्मा आनी बाप्पा हांणींच घेतील्ले. तांणी कसलीं कसलीं वस्त्रं घेतलीं म्होण कुंञुपात्तुम्मा जाणा नशिल्ले. न्हावन तयार जावन रावपाक आयिशान कुंञुपात्तुम्माकडे म्हळ्ळें. उपरांत आयिशान येवन कुंञुपात्तुम्माक आपणाला घरांत आपोवन घेवन गेल्ले.

न्हावन आयिशाला घरांत गेल्ले कुंञुपात्तुम्मा थंय साकून परतून आपणाला घरांत येताना आगळेच एक युवती वरीच दिसतालें! तें घागरो न्हेसून अशिल्लें. बोडीस बी आसा. ताजा ऊंचार चोळी घाल्या. पाचवी साडी न्हेसील्लें. केंस चन्दायेन विणून ताजेर फूल बी म्हाळ्ळां. कापडाचें ओला तलव माथावेल्यान पांगरून आसा. ताजा भायर तांणे पायांक जुतें बी घाल्यांय. आयिशान ताका जुतें घालनु घाराचें भितेरिच चवकूंक शिकयल्लें. ताजा उपरांत मात घरांत परतून वचपाक आयिशान कुंञुपात्तुम्माक अनुवाद दिल्लो.

निसार अहमदान सांगल्लें:

''बागोवंचे न्हय री, सारकें नीट जावन धैरान चमकून वच.''

तशीं कुंञुपात्तुम्मा आपणाला घरांत पावलें.

ताका भारी लज भोगली. ताजा गालावेलो काळो तिबो चकचकतालो. ही अप्रुप घडणी पळोवंक वाटेर सबार भुरगे एकड जाले. उम्मा आपणाला खडाव्याचेर आंगणांत उबी रावून अशिल्ली. कांय एक गोंदळ ताका दिसलें. कितें कितें उलयता. पुण कांय तांणे अयकलेना.

उम्मान भुरग्यांकडे विचारलें:

''कितें जाय रे तुमका, बदमास!''

थांगा जमून रावल्लेंली ल्हान ल्हान बुरशीं कुंञुपात्तुम्मा, कुंञुत्ताच्चुम्मा, अटिमा आनी

मक्कार हांणी एक मेळनु म्हळ्ळें:

''कुळु कुळु!''

उम्मान नवें पिळग्यांकडे परतून विचारलें:

''कितें सांगताय रे तुम्मी, मूर्ख?'' भुरग्यांनी जाप दिल्ली:

''लु ल्लु लु!''

उम्माक पिशे लगाल्या वरी दिसलें. उम्मान व्हडान म्हळ्ळें:

''तुमकां काळ सोरोप चाबो!''

''मे म्मे मे!''

''दुकरानो!''

''पे प्पे पे!''

उम्मान म्हळ्ळें:

''हांव कांडण काडून मारतलें, जाणा तुमी?''

कुंञुपात्तुम्मान दूर रावुनच सांगलें:

''उम्मा, ओगी राव गे. उम्मान तांकां सोवल्यार तांचे बाप्पा सगट झगडूक येतले!''

''येवूं गो!'' उम्मान गांवकार सगट आयकूक म्होण व्हडव्हडान म्हळ्ळें: ''सगट येवनु तुका पळेवूं! आनामक्काराला अपुरबायेचा धुवेली अपुरबायेचें धुवेक सगट पळेवूं! तुजा आजाक चोय एकी हस्ती अशिल्ली! व्हडली एकी सुळ्यांहस्ती!''

''व्हय, ती पुण फोंडुल्याहस्ती अशिल्ली!''

नांकातल्यान पूं व्हांवपी आनी हाताक खरोज आशिल्लो आनी एक फूट मात लांबाय आशिल्लो भुरशो अटिमा नांवाचा चडयान हुयेलमारीत सांगले:

''फोंडुल्याहस्ती! फोंडुल्याहस्ती!''

कुंञुपात्तुम्माक सोसूंक जाता? व्हड प्रतापाचें इतिहासाची मोत्यां माळी पिठो जाल्या न्हय? विर-सूर जावन अशिल्लो अस्सल आनामक्कार (हस्तेकार मक्कार) सायबाल्या चार काफिरांक जिवेंशी मारल्लेलो अस्सल आनी हिंसाळ ती सुळ्याहस्ती...घरा भित्यांत रेवेंत ल्हान फोंडुल्यांत मद्दें पोंदाक वस्ती करपी काळो भिकुण जशेंचें बारीक फोंडुल्याहस्ती व्हय!

''रे अल्लाह'' कुंञुत्ताच्चुम्मान हड्डे भेतिल्या भासेन मागणे केल्लीं आनी सांगलें:

''ह्या बदमास अर्दकुंटयांची तकली फुटोवन सोड!''

अजापूच म्हणयेत! भुरग्याचीं तकली फुटलेना. माथार जोगूळ पडूं ना. काळ सरपान घास मारूंक ना. कांय घडूंक नाशिल्लें. भुरग्यांन सगटांनी एक मेळनु खोशीन बोवाळ मारलो:

''आनामक्काराली व्हडली सुळ्याहस्ती ... फोंडुल्याहस्ती आशिल्ली.. व्हय, फोडुल्याहस्ती!''

कुंञुत्ताच्चुम्माक माथाक घुंवळ आयली. श्वास घेवपाक त्रास पडलो. आदीं काळातले जिवीत तीजा मुखावेल्यान चलून वतावरी दिसलें. पुराय प्रताप... दोनय हात तकलेचेर मारनु ती सकल जमिनीचेर बसली.

कुंञुपात्तुम्मा उम्मा बसीलेकडे आयलें. तांणे भुरग्याकडे विचारलें:

"कितें रे, भुरग्यानो ?"

भुरग्यानी जाप दिल्ली:

"ञुळु ! ञुळु !"

"कितें म्हण्टाय रे ?"

"पे प्पा प्पे !"

"कितें ?"

भुरग्यानी म्हळ्ळें:

"फोंडुल्याहस्ती ! फोंडुल्याहस्ती !"

"कसली फोंडुल्याहस्ती !" कुंञुपात्तुम्माक कांय समजलेना. तांणे येवजिल्ले. कांय भुरग्यांनी फोंडुल्याहस्तेक धरनु उम्माचें कानांत बी उडयलें आसुयेंत. उम्माचें लागी बसून तांणे विचारलें:

"कितें जालें गे उम्मा ?"

उम्मान कायींच उलयलेना. कितें उल्लोवंक ? पोरणे चारित्रां पुराय लासून करपून गोबोर जावनु धूळ जाली व्हय... ! आनी कित्या खातीर म्होण जियेंका ?

कुंञुपातुम्मान उम्माकडे दुसरीय विचारलें.आपणाला मुखार बरें सुन्दरी जावनु राविल्लें कुंञुपात्तुम्माक उम्मा चोयली. योग्य जावनु आशिल्लो निसार अहमदाक येवजीलें. देवाचे कृपेन दोगांनी सोबीत सुन्दर फुडाराचेर पावलां दवरल्यांय. राबूल आलमीन धनि सगट सारकें करतलो. चरित्र म्हळयार चरित्रच आसा... आखेंर उम्मान दोळ्यांत दुक व्हांवत आनी हुमट्यो काडून कुंञुपात्तुम्माकडे म्हळ्ळें:

"तुजा आजाली... व्हडली सुळ्याहस्ती... फोंडुल्याहस्ती आशिल्ली खय - फोंडुल्याहस्ती !"

---

फोंडुल्याहस्ती : रेवेंत फोंडकुलांनी रावपी हस्ते सारक्या तोंडाची बारीक कीड. मस्करी खातीर फकाणां मारून म्हणचें एक उतर हें.

कादंबरीकार वैक्कम मुहम्मद बशीर (1908 – 1994) हांका मलयाळम भासेचा साहत्यिकारां मदें महत्वपूर्ण स्थान आसा. मलयाळम भासेंत हांगेल्यो "जन्म दिनम", "मुच्चीटु कळिकारन्दें मकळ", "विशप्पु", "स्थलत्ते प्रदाना दिव्यन" "पात्तुम्मायुडे आडु" ह्यो कृतियो अत्यन्त प्रसिद्धि पावील्यो आसाय. "म्हजा आजाक एकी हस्ती आशिल्ली" हो ताचें "एनरूप्पाप्पाकोरानेन्डारनु" नांवाचे कादंबरीचो अणकार आसा.

बशीर रावळारांत बस्ती करपी कलाकार न्हय. तो भौसीक समाजांतुलो एकलो. ह्या कारणाक लागून तांचे लिखणेंत साधारण मनसाले सुख दुख आनी तांचा जिवितांतले त्रास हांजे विशीं काळजाक लागपी चित्रीकरण दिलां, जें वाचताना तांचा आशा–आकांक्षाचा वांटेकार जाता अशी भोगता. हाजें पडबिंब ताजा कांदबरीत स्पष्टपणान मेळता.

प्रस्तुत कादंबरी केरळचे एक आभिजात मुस्लीम समुदायाचे जीवनाचेर आधारून आसा. परस्थितीचा कारणाक लागून दळिद्र जालें एक गिरेस्त मुस्लीम कुडुंबाचे भेस बरें चित्रण लेखकान दिलां. ह्या कादंबरीचा माध्यमातल्यान बशीरानी आमचें सामाजीक जीणेचा सगट तारांक एकटावन शूरसंगम प्रगटायलां.

Mhaja Aajak Eki Hasti Aashilli (Konkani), Rs. 50
ISBN 81-260-1052-5

22 भासांतली पुस्तकां उजवाडावपी साहित्य अकादेमी ही संवसारांतली संगळयांत व्हड संस्था.

website:http://www.sahitya-akademi.org

